पयली खेप :

१५ ऑगस्ट १९६४

मोल : एक रुपया

उजवाडावपी :

रवीन्द्र केळेकार

गोमंत भारती

प्रियोळ

गोंय

छापपी :

कृष्णा करवार

कॉनवे प्रा. लि. (प्रिन्टर्स)

६ टलो रोड

मुंबय १

# मांडावळ


| | | |
|---|---|---|
| १ | मेकळीक | ५ |
| २ | म्हाळू पैं | १० |
| ३ | पयलो सेरमांव | १८ |
| ४ | गोविंद | २२ |
| ५ | गीता | २५ |
| ६ | धर्तरी अजून जियेताली.... | ३१ |
| ७ | उडणो | ३६ |
| ८ | निशालें दुःख | ४२ |
| ९ | विसंगत | ४७ |
| १० | राती बेळार | ५२ |
| ११ | कांकणकारालो चेडो | ५७ |
| १२ | दिवली | ६२ |
| १३ | फुलकान्न | ६७ |

# मेकळीक

शाळेंतल्यान तें घराकडेन पावलें तेन्ना साडेपांच जावन गेल्लीं. तागेली आवय दारांतच उबी आशिल्ली. तें सामकें म्हऱ्यांत पावसर ती एके नदरेन ताका पळेत रावली. म्हऱ्यांत येवन तें उबें रावलें तेन्ना ताजेर थिरायिल्ली नदर कडेक काडली आनी ती भितर वचूंक गेली.

ताका दिसलें आईली नदर आपले पिरायेच्या बत्तीसय वर्सांचो हिशेब घेताली. जल्माक येतना आशिल्लें तशें ते नदरेन ताका विवस्त्र केलें. मागीर ताका तपासून घेतलें. आनी मागीर तिणें उस्वास सोडलो. इल्ली कष्टी जावन, खंती जावन.

आवयले हे वागणुकेची आतां ताका सवंय जाल्ली. दिसपट्टी तिगेली नदर अशीच तपासून घेताली आनी तपासप सोंपतकच ती उस्वास सोडटाली. आवयलो खंतीचो उस्वास हो ताका सुटकेचो उस्वास कसो लागतालो. तो उस्वास म्हळचार तपासणी सोंपिल्ल्याची खूण अशेंच ताका दिस.

कुडींत येवन ताणें पर्स मेजार दवल्ली आनी हारशा मुखार वचून तें उबें रावलें. हांगा दुसरी तपासणी सुरू जाली. ही मात् 'तपासणी' अशें ताका एकूय दीस दिसलें ना. बत्तीस वर्सांचो, बत्तीस बुरजांचो किल्लो ताणें सारको बरो तपासूंक सुरवात केली. वाडट्या वर्सांबरोबरच किल्ल्याचीं बुरजांय वाडटालीं. आनी ताका लागून जतनायेची जबाबदारीय वाडटाली. पुण कुडिची वाड खुंटूंक लागत सावन दुस्मानाल्या हल्ल्याची भिरांत ताका उणी दिसत राविल्ली. ही जाली मनाची गजाल. पुण सवंयेची जागरुकता तशीच उरिल्ली.

कुडिच्या दारांत येवन आईन उलो माल्लो : "आशा !" साडयेचो पदर धरिल्लो तो सारको करीत आशा कुडीभायर आयलें. तोंमेरेन आई रांदचेकुडिच्या हुमराकडेन पाविल्ली. आशाकडेन पळेनासतनाच आईन म्हळें, "तोंड धुवन तयार जा. साडे-स वरांचेर वामन येतलो."

वामन कोण हें ताणें विचाल्लें ना. ह्या आदींय सतीश, दामोदर, शंकर येवन गेल्ले. ते कोण म्हणपाचेंय ताणें केन्ना विचारूंक नाशिल्लें. ताणें तोंडातल्यान एकूय उतर काडलें ना. तें उठून मान्न्यांत गेलें.

हात-तोंड धुवन तें परत कुडींत आयलें. आतां किल्ल्याच्या बत्तीसय बुरजांक नटोवंक जाय. तें तयारेक लागलें. ताणें आंगावेलें न्हेसण सोडयलें. बागोवन आयिल्लीं भुजां ! तांचेर चिंतेचो आनी वर्साचो भार पडिल्लो... पडला. दोनय गाल आंवळत चलिल्ले. ताणें ते दोनूय हातांनीं ओडून भायर काडपाचो येत्न केलो. इतल्यांत ताजी नदर आपले छातयेकडेन गेली... चिंतेन सगळें चैतन्य लुसून काडिल्लें.

हाडांच्या सांपळयाचेर कातिचें पांगरुण घाल्लो आपलो देह तपासतां तपासतां ताणें सकलो ओंठ दांतांमदीं धल्लो. मागीर हारशांत पळेत-पळेत तो सोडलो. आपल्याच बोटांनी तो सोडिल्लो ओंठ परत धल्लो आनी म्हळें, "दी. आतां हांव तुगेलो ओंठ चाबून दाखयतां. चुरचुरता काय ना तो पळे." आनी परत ओंठ दांतांपोंदा धल्लो. मात्सो निबरान तो चाबलो. मागीर तें भानार आयिल्लेभाशेन जालें.

आवय भायर कोणाकडेन तरी उलयताली. तो आवाज ताणें आयकलो. तें समजलें. वामनच जातलो तो. ताणें बेगिबेगीन न्हेसूंक सुरवात केली.

तागेलें न्हेसप पुरें जावचे आदींच कुडिच्या दाराभायर पावलां वाजलीं. "कोण ?" ताणें प्रस्न केलो. पुण जाप मेळ्ळी ना. तेंय घुस्पलें. थोडया वेळान आवयनच भायल्यान सांगलें, "आशा, दार उकतें कर."

तें दार उकतें करूंक गेलें. अर्दें दार उकतें जायनाफुडें विंचू चाबिल्लेभाशेन ताणें आंग काडलें. दारांतच तो उबो आशिल्लो—वामन !

"हांव भितर येवूं ?" वामनान विचाल्लें.

आतां ताज्यांत मात्शी थाकाय आयिल्ली. एक दार उकतें करून तें भायर आयलें आनी ताणें म्हळें. "चलात. आमी भायर सालांतच बसुंया."

"नाका". रांदचे कुडिच्चेच्या हुमरार उबे आशिल्ले तागेले आवयन म्हळें, "कुडींतच बसात."

ती आवयली सूचना न्हय, तो हुकूम. तें कुडींत आयलें. फाटोफाट तो आयलो. कुडींत एकय कदेल नाशिल्लें. मात्सो आंखडिल्ले भाशेन जावन तो बाजेर बसलो. बसनाफुडें मात ताका मेकळें दिसलें.

मुखावेले वणटीवेल्या हारशांत तें वामनालें प्रतिबिंब पळेत रावलें. एकाद्रया रूखासारकीं वर्सां त्या देहांत भरिल्लीं. कितलीं आसत ? पुण तो आशिल्लो सणसणीत. ताणें तोंड बंद दवरिल्लें. ताजे हात मात अस्वस्थ जाल्ले. ताज्या ओंठार जीं उतरां फुटूंक पावनात आशिल्लीं तीं ताज्या हाताच्या बोटांचेर नाचतालीं... असले साबार प्रसंग आशान अणभविल्ले. वामनाली नदर निकत्याच सोडोवन उडयिल्ल्या न्हेसणाचेर गेली. आनी तो उशाचेर मात्सो लकणेलो.

आशान बेगिबेगीन तें न्हेसण पांयांनींच बाजेपोंदा धुकल्लें. आतां तो आशाक पळेत रावलो.

ती नदर आशाक सोंसली ना. तोंडान तर हो मट्ट ! निमाणें आशानच प्रस्न केलो, "तुमी कितें करतात ?"

"बिझनेस !" वामनान जाप दिली, "आदीं इंपोर्ट-एक्स्पोर्टचो करतालों. आतां इंडस्ट्री सुरू करूंक सोदतां."

तो उलयलो खरो. पुण आशान तांतूंतलें एकय उतर आयकलें ना. आतां आपणें करचें कितें हेंच तें येवजितालें. च्या हाडपाच्या निमतान भायर वचप – पुण मागीर ? वामनान म्हळें, "तूं शाळेंतल्यान पुरो जावन आयलां जातलें. मोटारीन अशी पासय मारून येवया..."

"आज नाका." आशान जाप दिली. "आनीक केन्नाय."

मागीर तेंच गडबडलें. "आनीक केन्नाय" हीं उतरां आपल्या तोंडांत आयलीं कशीं हें ताका समजना जालें. आनी ते ल्हानशे कुडींत ताका आपली घुस्पल्ली नदर लिपोवंक येना जाली.

"च्या घेवन येतां आं"... म्हणपाचें निमित्त करून तें भायर आयलें. भायर येवन ताणें दोळयांक पदर लायलो. "आशा !" रांदचेकुडिच्या हुमरार बशिल्ले आईन ताका उलो माल्लो. आनी तिगेली कश्टी नदर परत तागेलो सोद घेवंक लागली. ताणें 'ओ' म्हळें ना. आनी तीय कांय उलयली ना.

च्याक आदन दवरून तें येवजूंक लागलें. वामनाक मोटारींतलो आपल्या म्हन्यांतलो रिकामो जागो भरचेलो आसलो आनी आईक आपले भोंवतणचो फांस सोडोवन उडोवचेलो आसलो. लाचार आशिल्लें बाबडें !

तें परत कुडींत आयलें तेन्ना वामन ताजो कॉलेजांतल्या वेळावेलो फोटो पळेतालो.

"तूं १९५३ त बी. ए. जालें ?" ताणें विचाल्लें, "त्याच वर्सा हांवें बिझनेस सुरू केलो."

हें नातें ताका विचित्र लागलें. पुण तें काय उलयलें ना. ताणें च्याचें कॉप ताज्या हातांत दिवंक फुडें धल्लें. ताणें कॉप घेता आसतना आपल्या बोटांनीं ताजीं बोटां सांसपिलीं. आशाक दिसलें ह्या स्पर्शांत तागेले मेल्ले बायलेलोय स्पर्श आसपावला. तें फाटीं सल्लें.

"फाटीं कित्याक सल्लें? तूं आतां सामकें ल्हान न्हय !" वामनान म्हळें.

पिरायेचीं बत्तीसय वर्सां ताजे नदरेमुखार फडफडलीं. आनी तें अगतिक जालें. वामनान ताजो हात आपल्या हातांत घेतलो. ताणें तो सोडोवपाचो येत्न केलो ना. तो ताका लागीं ओडूंक लागलो. न्हयेंत बुडटल्या आपणाक तो कडेक ओडटा अशें आशाक दिसलें. ताजीं गात्रां गळून गेल्लीं. तें थीर रावलें. लागीं आयलें ना आनी ताणें विरोधय केलो ना.

एका हाताच्या पालवाक दुसरो हात आयलो. आनी दोनूय हातांच्या घेऱ्यामदीं तें घुस्पलें.

अनवळखी स्पर्शान आशाक अस्वस्थ केलें. आपणाक आतां घुंवळ येतली अशें ताका दिसलें. ताणें आपली तकली वामनाचे छातयेर दवल्ली. ताणें थंय धांवत्या घोडयांच्या पायांचो आवाज आयकलो. तें घुसमटून वचसर वामनान ताका आवुळ्ळें. आनी मागीर ताजे हात गदळ जाले. "फाल्यां येतां" म्हणून तो हांसलो आनी वचूंक गेलो.

आशान आपलो देह बाजेर लंवडिलो आनी दोळे धांपून घेतले. आतां कुडींत तें एकलेंच आशिल्लें आनी आशिल्लो काळोख...पुण तरीकय ताका दिसलें, आतां आपुण सुटलें. आवयले नदरेच्या सुळयांतलें. आनी सुटलें त्या कश्टी उस्वासांतलें !

१९६२)

२

# म्हाळू पै

मनशाचे जिणेंत एकाद्रो खीण असो येता कि जेन्ना ताका आपलें मनीसपण जगपामर्णाच्या खेळांत पणाक लावचें पडटा; मनांत येवजीत आशिल्लें, जिवाभावाच्या इश्टांकडेन उलोवन दाखयल्लें, जें उलयतना दांत-ओंठ चाबून घेतिल्ले तें उलोवप आचारपाचो वेळ येता. ताजे सगले जिणेचें मोल तो खीण थारायता. असोच एक खीण म्हाळू पैचे जिणेंत आयलो.

म्हाळू पै हो सांवड्डेचो भुसारी पसरकार. ताजो पसरो आनी घर हाजेभायर तो खंयच वचनाशिल्लो. ना म्हळयार पंद्रशेंतल्यान एक दीस मडगांवां वचून तो पसऱ्यावेलो माल हाडटालो. लोकांकडेन ताजो संबंद म्हळयार पसऱ्यावेलें गिरायक आनी घरालागशिल्ले चारदोन शेजारी. भायल्या जगाकडेन ताजो संबंध जोर्नालापुरतोच.

ह्या साद्या मनशालो कार्यक्रमय फास्केंत बसयल्ल्यासारकोच आसलो. सकाळीं पांच वरांचेर तो उठटालो. स वरां जातात म्हळ्यार तो सकाळच्यो विधी सोंपोवन कळसो घेवन बांयचेर वतालो. न्हावन येतना दोन ताजीं फुलां हाडटालो आनी मागीर पुजेक बसतालो. पुजेकूच ताका एक वर मोडटालें. पूजा जातकूच तो पेज जेवतालो आनी पसऱ्यार वतालो. रातिचो णव वरांचेर पसरो बंद करतालो. घरा येतना एक आणो दिवन एकाद्रें दिसाळें घेतालो आनी घरा येवन वरभर तें वाच-तालो. रातिचें ज़ेवण जातकच चारचौग शेजारी ताज्या बल्कांवाचेर जमताले. थंय तो मागीर खबरांक बसतालो. ह्या खबरांत नेहरुचें परराष्ट्रीय धोरण, सालाझाराचें आडमुठें धोरण हांचेबराबरच बांगड्या-ताल्ल्यांच्यो आनी नाल्ल-सुपारेच्योय खबरी ते करताले. हीं बसका

कितलो वेळ चलत हाजो नेम नासलो. एकाद्र्या दिसा बरो रंग चडलो जाल्यार कोंब्याचो पयलो साद कानार पडसर चलताली.

ताज्या ह्या कार्यक्रमांत केन्नाच बदल घडलो ना. ना म्हळयार हालीं ताका दिसाळें मेळनाशिल्लें. गोंयांनच जर जोर्नाल येनात, तर ताका तरी खंयचें मेळटले ?

असल्या ह्या साद्या आनी सरळ पसरकाराचे जिणेंत एक खीण आयलो. तो दीस बुधवाराचो. २६ जानेवारी ! सकाळीं फुडें उठून मुतूंक म्हणून भायर यो जाल्यार म्हाळू पैली नदर मार्गावेल्यान वतल्या एका काळयाकिट्ट, नाकचेपट्या खापऱ्याचेर पडली. मुतपाचें विसरून म्हाळू पै थंयच्या थंय उबो रावलो. आनी ह्या अपशकुनाचें निवारण कर म्हणून मागून घेवंक ताणें दोळे धांपून हात जोडले आनी मनांतल्या मनांत तो म्हणूंक लागलो: "कुकळकाशी, पाव गे सायबिणी !" म्हाळू पैक वंयेभायर उबो राविल्लो पळोवन तो खांपरी म्हाळू पैच्या म्हऱ्यांत आयलो आनी आपले फिरंगी भाशेंत ताणें ताका विचाल्लें, "Eh! voce, quem? Qui faz aqui ?"

म्हाळू पैन अंग काडून दोळे उकते कर जाल्यार म्हऱ्यांतच खांपरी उबो. मनांतल्या मनांत आवलांत शिकिल्ले फिरंगी भाशेचीं उतरां घोळोवन म्हाळू पैन म्हळें:–

"Eu म्हाळू पै. comerciante, esta minha casa, esta urinar."

"Va, va!" खांपरी हांसलो आनी मुखार गेलो.

म्हाळू पैन सुटकेचो उस्वास सोडलो आनी मुतपाचें विसरून तो फाटल्या पांयांनीं घरांत आयलो.

आज हेर कामांत म्हाळू पैचें लक्षच लागना जालें. बांयचेर न्हाता आसतना तो निसरून पडलो. फुलां काडटना ताज्या पांयांत कांटो रोंबलो. पुण म्हाळू पैन आपलो नित्त्याचो कार्यक्रम सोडलो ना.

मदांभाशेन म्हाळू पै बाजारांत आयलो तेन्ना ताणें आपल्या पसऱ्या

भोंवतणी जमिल्ली गर्दी पळेली. गर्दी म्हाळू पैंक नवी न्हय. शेनवाराक सांजवेळची ताज्या पसऱ्या भोंवतणी गिरायकाची गर्दी जमताच. भौ करून ते गर्दींत कुळंबी लोक आसता. शेनवाराक सप्तकाचो पागार हातांत येतकूच आठ दिसांचो पुरमेत एकदम करपाची कुळंबी लोकांची चाल. आनी म्हाळू पै मापार पाप करिना हेच खातीर तो लोक तागेर येतालो. पुण आज जमिल्ली ही गर्दी कुळंब्यांची नासली. दुसरें, ती न्हय त्याच वेळार जमिल्ली. नाडीपेन्न बी चलता काय असो म्हाळू पैंक दुबाव आयलो. धिरानच ताणें पावल मुखार घालें. कोणाची तरी नदर ताचेर पडली आनी मागीर एकूच आवाज फुटलो—"म्हाळू पै आयलो ! म्हाळू पै आयलो !"

म्हाळू पै काचाबूल झालो. रातीं पसरो बंद केल्लो तेन्ना कुरपां बरे तरेन सांसपिल्लीं हाजें ताका भान आशिल्लें. पुण कितें विचारता ! मीनाचो धंदो बसत सावन वेकारी जायती वाडिल्ली. कोण केन्ना पैशाचे आशेन कितें करीत हाजें चित्र काडूंक नज आसलें. गर्दींतल्यान वाट काडीत काडीत म्हाळू पै पसऱ्याच्या दारांत आयलो. येवन पळे जाल्यार एक सोल्दाद, दोन खांपरी आनी एक काब ताज्या पसऱ्याच्या दारांत उबे. तांचे कडेन पळेनाशिल्याभाशेन करून म्हाळू पै पसऱ्याचीं सोपणां चडूंक लागलो.

"अे ! राव्ह !" एका सोल्दादान ताका आडायलो.

"तूं म्हाळू पोय ?" काबान ताका विचाल्लें.

"हय सिंजोर." कडकडतच म्हाळू पैन जाप दिली.

"हें लोज तुजें ?"

"हय सिंजोर."

कितें जालां म्हणपाची अजून म्हाळू पैंक कल्पना नासली.

"मागीर हें कोणें केलें तर ?" आवाज उंचावन काबान ताका विचाल्लें.

"कितें सिंजोर ?"

"कितें काय म्हण्टा ? बोंबलीभर उदकांत वचून सुकी काश्टी दाखोवंक सोदता मरे हो ! उलय, हें बोंदेर कोणें लायलें ?" काबान बोंदेराकडेन बोट दाखयलें.

म्हाळू पैची नदर पसऱ्याच्या दारार गेली. दारार एक कागदी तिरंगी झेंडो लागिल्लो. म्हाळू पैच्या आंगांतल्यान चक्क करून जोगूल देंवलें, चिळ्ळ करून सगलें आंग चिकचिकीत आनी हुनहुनीत हुमेन भल्लें. आनी दोळ्यांचेर विस्वास बसना जावन ताणें दोळे सांसपीत सांसपीत परत पळेलें. हय, खऱ्यांनीच ताचेल्या पसऱ्याच्या दारार तिरंगी झेंडो लागिल्लो !

"आतां तोंड कशें धल्लें तुजें ? उलय बेगीन." काब उसळ्ळो.

कितें उलोवचें तें म्हाळू पैक कळना जालें. आज बुधवार, २६ जानेर ! सगल्या हिंदुस्तानाचो आनंदाचो आनी भाग्याचो दीस ! कोणें सत्याग्रहीन हें काम केल्लें देव जाणा ! पुण ताजें पानवळ म्हाळू पैक आतां भोगचें पडटालें. "स्वतंत्रताय हाडटले खंय हे !" मनांतल्या मनांत म्हाळू पै उबगलो, फडफडलो.

"तुका प्रेज करतां तर...." काबान म्हळें.

"ना सिंजोर. हांवें न्हय. हांव नकळ." म्हाळू पैन म्हळें.

"हांव नकळ म्हळें म्हणून काबार जायना. हें लोज तुजें मरे ?" काबान ताका विचाल्लें.

"हय सिंजोर. आज तीस वर्सां हांव ह्या पसऱ्या-फळयार बसतां."

"मागीर आतां कादयेच्या फळयार बसन दिसलें ?" काबान विचाल्लें.

म्हाळू पै ओगी रावलो. एक सोल्दाद जमिल्ल्या लोकाक लाठयांनीं धांवडायतालो. पुण मुखार कितें जाता हें पळोवंक उतावीळ जाल्ले लोक लाठयांची पर्वा करिनासले.

"तुज्या लोजार बोंदेर लागल्यार ताजी जापसालदारकी लेयेन तुजेर येना?"

"पुण सिंजोर, हें लोज जरी म्हजें आसलें तरी रातीकडेन हांव लोजार नासतां. हांव घरा वतां. कोणेय वाटेवेल्या मनशान तें बोंदेर लायलां आसुंये."

"पुण तुगेल्याच लोजार कशें लायलें तर ? हेरांल्या कित्याक लायलें ना ?" काबान ताका विचाल्लें.

"तें म्हाका खंय खबर ?"

"तुका तें खबर ना ? म्हाका बेस बरें खबर आसा. तूं जयहिंदीस्त. रातीं घरा वतना तुवें तें लायलें आसूंक जाय." काबान म्हळें.

"ना सिंजोर, खऱ्यांनींच ना. हांवें तें बोंदेर लावूंक ना. आनी हांव जयहिंदीस्त तर न्हयच."

ह्याच वेळार एक खांपरी थंय आयलो. आनी ताणें आपलें फिरंगी भाशेंत काबाक कितेंशें सांगलें. म्हाळू पैंक तातलें एकूंय उतर समजलें ना.

"हय मरे ?" काबान म्हाळू पैंक विचाल्लें.

"कितें सिंजोर ?"

"तूं आज फांत्यार मार्गार उबो आशिल्लो ?"

"मार्गार ?" म्हाळू पैन विचाल्लें.

"हय मार्गार. तुज्या घरामुखार. हो सोल्दाद थंयच्यान वतालो. ताणें तुका पळेलो. ताका खंय तुवें सांगलें तूं मुतूंक भायर आयला म्हणून आनी ताजी फाट वळतकच मुतनासतनांच घरांत धांवलो खंय."

म्हाळू पैन त्या खांपऱ्याकडेन पळेलें. हे नाकचेपटे खांपरी सगले कावळ्यांभाशेन एकसारखेच दिसतात. म्हणून म्हाळू पै तो सकाळचोच खांपरी हें वळखलो ना. पुण सगळी खबर ताणें सांगल्या ताजेवेल्यान तो सकाळचोच आसूंक जाय म्हणपाचें ताणें ताडलें.

"खऱ्यांनींच सिंजोर हांव मुतपाक म्हणून भायर आयिल्लों." म्हाळू पैन जाप दिली.

"मुतपाक आयिल्लो जाल्यार मुतनासतनाच परत कित्याक गेलो तर ?" काबान ताका विचाल्लें.

खऱ्यांनीं पळोवंक गेलो जाल्यार म्हाळू पै खांपऱ्याक भियेवनच भुतपाचें विसरून घरांत पळिल्लो. पुण तें तो काबाक कितें म्हणून सांगतलो आशिल्लो ? आनी सांगलेंच म्हणून ताका तें खरें थोडेंच दिसपाचें!

"बोरें, हें सांग, आनी खंय खंय बोंदेरां लायलीं तुवें ?"

"हांवें ? हांवें हें पसऱ्यावेलें खेरीज करून दुसरें बोंदेरच पळोवंक ना. पळेलां तें फक्कत, पुर्तुगालचें. तेंय बी आमकां बळयां लावक लायतात म्हणूनच घेतलां. ना जाल्यार म्हजो संबंद तो रात आनी पड हांचेपुरतोच."

"खरेंच सांगता तूं ? हें बोंदेर तुवें वो तुगेल्या वळखीच्या कोणेंब लावंक ना म्हणून ?"

"हांवें लावंक ना. कोणें लायलें तें हांव नकळ." म्हाळू पैन म्हळें.

"अजून हो जाग्यार येवंक ना मरे, आं ? आतां हाका कास्तीगार करचोच पडलो. व्हरतां तुका क्वार्तेलार." काबान म्हळें.

"नाका सिंजोर. हांवें लावंक ना तें बोंदेर."

"तुवें तें लायलां वो ना तें क्वार्तेलार सांग. आदीं तें बोंदेर पिनून काड पळोवंया." काबान ऑर्द सोडली.

म्हाळू पैक चिर्र जालें. ताणें दोळे धांपून घेतले. पुण ताजें मन बंद उल्लें ना. अशें एक मिनिट गेलें. ह्या साठ सेकंदांत ताज्यामुखार हिंदुस्तानचें चित्र आयलें. ह्या झेंड्यापसत कितल्या जाणांनीं हालअपेष्टा भोगल्यो, जीव दिले आनी हो झेंडो वांचयलो हें ताणें वाचिल्लें. हिंदुस्तानांतल्या तागेल्या चाळीस कोटी भावांची ताका याद जाली. आनी ताणें म्हळें,

"ना; तें म्हज्यान जावचें ना."

"ना कशें तर ?" तो काब तापलो. ताणें आपलें रिवोल्वर भायर काडलें आनी म्हाळू पैच्या कपलाक तेंकयलें. घोडो ओडून घेतलो आनी म्हळें, "तुज्या हातांनीं हें बोंदेर पिनून काड; ना जाल्यार म्हज्या हातांनीं मरपाक तयार जा."

म्हाळू पै तापलो, ताज्या नाकाच्यो पुडयो फुलून आयल्यो, ओंठ

थरथरूंक लागले, पांय गडबडले आनी शियाचो कुडकुडो भरिल्ल्यावरी तो कूडकुडूंक लागलो. तरीकूय आंगांतली सगळी शक्त एकवठावन ताणें म्हळें,

"हे हात—हे हात पिनूंक निर्माण जावक नात; वांचोवपाकच निर्माण जाल्यात. तूं म्हाका हें बोंदेर पिनूंक सांगता. तूं जाणा हें बोंदेर म्हणजे कितें तें ? हें बोंदेर कोणाचें तें ? हें बोंदेर सगळ्यांतल्या पुण्यात्म्यांचें, सत्य-अहिंसा-शांततायेचो जगाक संदेश दिवप्या महात्मा गांधीजीचें, हिंदुस्तानच्या चाळीस कोट लोकांचें—तांच्या रगताचें-मासाचें, दुखांचें आनी घामाचें—तें बोंदेर तूं पिनूंक सांगता. आनी खंयच्या दिसा ? आज—प्रजासत्ताकाच्या पवित्र दिसा ? जेन्ना हिंदुस्तानभर आनी अख्ख्या संवसारभर हें बोंदेर मान उंचावन फडफडटलें आनी जगांतले समजुपी मनीस आनी हिंदुस्तानचे चाळीस कोटी लोक ताका नमन करतले, त्या पवित्र दिसा, हिंदुस्तानच्याच एका भागांत ह्या हाडामासान हिन्दी मनशाक तूं हिंदुस्तानचें बोंदेर पिनूंक सांगता ? ना, तें म्हज्यान जावचें ना ! इतलेंच न्हय तर तें हांव तुकाय पिनूंक दिवंचो ना ! तुगेले हात जर मारपाकच निर्मिल्ले आसत तर तूं खुशाल मार म्हाका. म्हज्या मर्णाक हांव भियेना. जर हांव मरून ह्या बोंदेराचो अवमान जायनासारको जायत तर हांव मरपाक एका पांयार तयार आसां."

म्हाळू पै थांबलो, अजूनय ताजें आंग कडकडटालें. हुमेन ताजें सगलें आंग चिप्प भिजिल्लें. लोकांकूय एकेतरेचो चेव आयिल्लो. म्हाळू पैचें उलोवप थांबनाफुडें लोकांनीं ताळयो पेटल्यो. एके तरेन बोंदेराचो—तिरंगी झेंड्याचो तो गौरवच आशिल्लो.

ताळयो आयकतकूच काब सामको रागान तांबडो जालो. तो उसळ्ळो, तो गोंदळ्लो, ताजोय हातापायांवेलो ताबो सुटलो. ताजे हात कडकडूंक लागले.

"ऑ, सोल्दाद, थूंक त्या बोंदेराचेर आनी उडय पिनून तें." काबान सोल्दादाक ऑर्द सोडली.

"ना." म्हाळू पैन आवाज उंचायलो, "हांव जितो आसतना त्या बोंदेराक घाणयारो हात लावपाक दिवचों ना."

म्हाळू पैन सोल्दादाक आडायलो.

आतां मात् काबांतले मनीसपण गेलें आनी ताज्या ताकाच कितें जालें तें कळचे पयलींच हातांतल्या रेव्होल्वराचो घोडो सुटलो आनी 'घुडूम्' असो आवाज जालो. म्हाळू पैच्या मेंदूर फार बसलो. पुण रोखडो म्हाळू पै पडलो ना. तो तसोच उबो रावलो आनी लोकाकडेन तोंड करून ताणें म्हळें : "म्हजें........" परत ओंठ हालले. पुण आवाज भायर आयलो ना. तो कितें म्हणटा तें आयकूंक सगलो लोक उत्सुक जाल्लो. "म्हाका........." म्हाळू पैच्या तोंडातल्यान निमाणें उतर आयलें. आनी तो जमनीर कोसळ्ळो.

म्हाळू पैची कूड गेली. म्हाळू पै सोंपलो. पुण म्हाळू पैचें नांव उल्लें. अजूनय लोक म्हाळू पैच्या निमाण्या उतरांचो अर्थ लावपाक सोदतात. 'म्हजें' अशें सुरू करून ताका घडये सांगूंक जाय आशिल्लें जावंये, 'म्हजें कर्तव्य हांवें पुरें केलें !' आनी 'म्हाका' ह्या उतरांनी घडये ताका सांगूंक जाय आशिल्लें जावंये, 'म्हाका हो झेंडो राखच्यापसत मरचें पडलें; पुण म्हज्या पुतांक आनी समस्त गोंयकारांक फुडल्या प्रजा-सत्ताकाच्या दिसा ४० कोटि लोकांबरबरच हो झेंडो घेवन मिरोवंक मेळटलें !'

पुण हे सगले तर्कच.

(१९५६)

3

# पयलो सेरमांव

आयज आयतार. आयतारा आयताराक फिलू पयल्या मिसाक हाजीर रावचेखातीर फांत्यारूच, कोंबो पयलो साद घालता. तेन्ना, उठून उदक न्हाता आनी उंबळून भितर दवल्लेली काबाय आंगांत घालून इगर्जेंत वता. पिरायेचीं साठ वर्सां ताणें हो नेम केन्नाच चुकयलो ना. देवाचेर ताचो जबर भावार्थ. पुण रेंदेरपण करचेखातीर ताका फांत्यारूच शेवाक वचचें पडटा आनी देखुनूच तो दिसपडटो इगर्जेंत वचूंक पावना. तो येवजितालो: 'इगर्जेंत वचुंकूच जाय कित्याक ? अंतस्करणांत देवाचो उगडास धरून, दिसपट्टीं कामां देवाच्या पुताचे शिकवणेप्रमाणें चलयलीं जाल्यार देव मनशा म्हन्यांतूच रावता !'

आयज फिलू मात्सो बेगसारूच उठलो. कोंब्याचो साद ताच्या कानार पडलो तेन्ना तो निमाणो माड देंवतालो. घरा येवन तो उदक न्हालो. इगर्जेंत घांटी वाजताल्यो आनी मार्गावेल्यान लोक वतालो. आयज आयतार. त्याभायर, गांवचें फेस्त. पुण लोकाक चड उबेची गजाल आसली ती म्हळ्यार नव्या पाद्रिचो-कामील सिल्वाचो– आयज पयलो वयलो सेरमांव जावपाचो आसलो.

फिलू कामीलाक ल्हानपणांत थावन वळखता. आंगांत बेबो घालून माडाच्यो पोंयो आनी फुलां, तेच परी धब्यो चुडटयो आनी आडसरां मागूंक कामील जायते फावट फिलूसरीं येतालो. आनी फिलू लेगीत तितल्याच मोगान ताका सगलें दितालो. पुण फिलून ताका अेक वस्त मात केन्नाच दिली ना. ती वस्त म्हळ्यार, शेवण्यांचे घोंटेर आनी चानयेचीं पिलां वा सवण्यांचीं पोरां. "तुका कोणेंय उबारून व्हेलो जाल्यार तुज्या माय-पायक कितें दिसूंक फावो, कामील ?" फिलू ताका

समजायतालो. "तेंच सवण्यांक आनी चानयांक दिसतलें. तुजें घर मोडून उडयल्लें तुका सोंसत ? मागीर तूं घोंटेर कित्याक मागता तर ?"

कामील आसलो शिटूक बुद्धिचो. तो रोखडोच समजतालो. फुडें तो व्हड जालो. ताचो बेबो वचून तो कालसांव घालूंक लागलो. पुण ताची आनी फिलूची अिश्टागत तशीच आसली.

कामील शिकतालो तेन्ना घरा येतकूच इश्कोलात शिकिल्ल्यो गजाली तो फिलूक सांगतालो आनी फिलू कान दिवन त्यो आयकतालो. कामील शिकता हाची ताका व्हड खोस जाताली. पुण आतांचे भुरगे दोन फिरंगी क्लासी शिकले म्हणटकूच तरकारी कशी ती भास कातरतात आनी आपणाली भास उलोवंक लजेतात हें पळोवन फिलू खेदिश्ट जातालो. कामीलूय तसो इबाड़चो न्हय म्हूण केन्ना केन्ना तो ताका हटकितालो, "तूं शीक आनी व्हड मनीस जा, जाणा मरे कामील. पुण आपलें नीज विसरूं नाका. हें गोंय, हे माड, हांगासल्ल्या दर्याचीं ल्हारां, रात दीस पोय जागतात तसो तूं आपल्या देसाचे आनी भाशेचे आनी भावांचे राखणेखातीर जागरूक राव."

फिलूचीं उतरां आयकून कामील तकली हालयतालो आनी केन्ना केन्नाय खोल चिंतणेंत पडटालो.

वर्सां वतालीं फिलूचे केंस पिकयत आनी कामीलाची पिराय वाडयत, ताच्या व्हड शिकपा वांगडा.

आपूण पाद्री जातलों म्हुण जेन्नां कामील फिलूक सांगूंक आयलो तेन्ना फिलूक केदी खोस जाली ! आपले दोनूय हात उकते करून ताणें कामीलाक वेंगांत घेतलो आनी म्हळ, "तूं व्हड जा आनी गोंयचें नांव वयर काड. पुण जाणा जा, मनशाची व्हडवीक आसता ती आपल्या लोकाची सेवा करपांत. भायर तुका व्हड व्हड मेदाली मेळटीत पुण ही असली मायेभोगाची खेंव मेळचीना. तूं पाद्री जाता हें बेस बरें ! लोकाक बरी देख दी. तांकां आयज तांच्या निजाचें भान ना. तांकां तांचें नीज कितलें गिरेस्त तें

दाखोवन दी, जाणा मरे कामील !"

परतून घांटी वाजल्यो आनी ताकतिकेन फिलू घरांतलो भायर सल्लो. तो इगजेची वाट चलतालो लांब व्हड धेंपां घालीत, तेरणे उगडास वाचीत वाचीत आपले मतींतले.

अिगर्जेच्या मार्गांनीं लोकांच्यो रांगो लागिल्ल्यो. त्या लोकांतलो आपूण एक जावन फिलू अिगर्जेंत पावलो.

अिगर्जेचें साल सामकें उपाट भरिल्लें. अेका कोनशाक दिमी मोडूंक फिलूक सुवात मेळ्ळी.

"जाणा तूं फिलू..." शेजरा बशिल्ल्या मनशान ल्हवूच फिलूक हटकिलो—"आयज भीस्मसायब लेगीत आयला खंय कामीलाचो पयलो सेरमांव आयकूंक. आनी त्याभायर व्हड व्हड पाद्री."

फिलून आपली छाती अभिमानान फुलयली. त्याच वेळार कामील सांगपाचे तयारेन आपले सुवातेर आयलो.

सगल्यांचे दोळे ह्या नव्या पाद्रीचेर थिरावलेले आनी कान ताच्या तोंडचीं उतरां आयकूंक तानेलेले.

"म्हज्या गांवभावांनो आनी भयणिनो," कामील पाद्रिचीं उतरां सालांत घुमलीं—"आयचो दीस व्हड. न्हय म्हजें पयलें मीस वा गांवचें फेस्त म्हुण, तर म्हाका रातीं सपनांत देवाचो पूत मेळ्ळो देखून." इतलें म्हणून ताणें जमलेल्या लोकाचेर नदर भोंवडायली. सगल्या लोकान आपणाले अजापभरीत दोळे ताचेर थिरायलेले.

"रातीं स्वामीन म्हाका एक व्हड मीस सांगलें. तेंच आयज हांव तुमकां सांगतलों. पुण फकत जाच्या हातांतल्यान केन्नाच पातक घडूंक ना आनी जो आपलें नीज विसरूंक ना, ताकाच तें आयंकूक येतलें. पातकी मनीस आयकूंक पावचो ना !"

आनी मागीर मीस सुरू जालें. कोनशाक बसलेलो फिलू कामीलाक तोखेतालो. केदी व्हड खोस त्याच्या तोंडार फुल्लेली ! ... आरे, पुण हें कितें ? फिलूच्या कानार कसलोच आवाज पडनासलो. इगर्जेत थंडाय

आसली. कामीलूय हात वावडून आनी तोंड फिरोवन उलयतालो. फिलूक प्रस्न पडलो आनी तो रडूंक तेंकलो.

"सायबा, गुन्यांव भगस आनी उजू मारग दाखय...." फिलून देवालागीं मागलें.

मीस सोंपलें. सगलो लोक उबो रावलो. जण एकलो हांसतालो आनी आपणालो संतोस उकतायतालो. "कितलें अपरूप मीस जालें!" अशेंच सगले म्हणटाले.

दोळयांत दुकां घेवन फिलू फाटले वटच्यान गेलो आनी मीस्मसाय-बालें बेसांव घेवन येता आसतना तो कामीलाक मेळ्ळो. झोंपय मारून ताणें कामीलाचे पांय धल्ले आनी तो म्हणूंक लागलो– "कामील, म्हाका तुज्या मिसांतलें एकूय उतर आयकूंक आयलें ना, सायबा!"

फिलू भुरगो कसो रडटालो.

कामील फिलूक रोखडोच वळखलो. ताका उठोवन ताणें मोगाची खेंव मार्ली. कामीलाच्याय दोळयांतल्यान दुकां व्हांवंक लागलीं.

"फिलू!" कामीलान ताका समजायलो. "खरो पातकी तूं न्हय. जमलेलो सगलो लोक पातकी. आरे, आयज हांवें मीस सांगूंकूच ना. निखटे हात आनी तोंड हालयलां. कित्याक, जाणा तूं, लोकाक तांच्या निजाचें भान करून दिवंचें म्हणून! पुण तूंच पळय, लज धरिनासतना सगले आपणें मीस आयकलां म्हुण फट सांगतात!"

आतां फिलून कामीलाक खेंव घाली. तो पाद्रीपण शिकूंक वता आसतना घाल्ली तशी. आनी ल्हवूच म्हळें–"कामील! म्हजो कामील!"

(१९५८)

# गोविंद

“म्हाका उदक दिता ? तान लागल्या म्हाका.” साडेतीन वर्सांच्या गोविंदान म्हज्या म्हऱ्यांत येवन म्हळें.

तकली वयर काडून हांवें गोविंदाकडेन पळेलें. आपली कुतुहलान भरिल्ली नदर तो म्हजेर थिरावन आशिल्लो. हांव खाड करपाचे तयारेंत आशिल्लों. “दितांऽऽ बाबाक उदक” अशें तोंडान म्हळें आनी हांवें खाडावेल्यान ब्रश भोंवडायलो.

“दी मरे बेगीन.” म्हजे दावे कुशींत रिगत ताणें म्हळें.

हांवें ब्रश सकल दवल्लो आनी उठून एका पेल्यांत उदक घेवन आयलों.

गोविंदान उदकाचो पेलो हातांत घेतलो आनी थोडो भियेल्लेभाशेन जावन ताणें म्हाका विचाल्लें, “आई मारतली ?”

“कोणाक ?” हांवें विचाल्लें.

“म्हाका. उदक पियेतां म्हणून........?’ परत गोविंदान तोच प्रस्न विचाल्लो.

म्हाका कांयच बोध जालो ना. हांव ओगी रावलों. गटागट गोविंद उदक पियेतालो. हांवें ब्रश परत हातांत धल्लो.

उदक पियेवन जाल्या उप्रांत गोविंदान पेलो काडलो आनी जमनीर दवल्लो आनी परत म्हजे कुशींत येवन म्हळें,

“आईक सांगूं नाका आं...आई म्हाका मारतली...जाणा तूं ? आईन म्हाका सांगिल्लें तुज्या म्हऱ्यांत वचूं नाका म्हणून...तुजे कडेन उलोवं नाका म्हणून.”

म्हजे हात थंयच थांबले. तटास जावन हांव वणटीक पळेत रावलों. ल्हऊ ल्हऊ गोविंद म्हजे कुशींतलो भायर सल्लो आनी वचूंक गेलो.

म्हाका कांयच बोध जायना जालो. म्हजीं गात्रां गळून गेल्ले भाशेन जाल्लीं. एकाएक तकलेर देड मणाचें वजें पडिल्ल्यात्वरी ती जड जाली. हांवें ब्रश थंयच उडयलो आनी तुवाल्याक तोंड पुसून हांव उठलों.

पांच दिसांआदीं गोंविद रडत-रडत म्हज्या म्हऱ्यांत आयिल्लो. हांवें ताका म्हऱ्यांत घेवन विचारिल्लें, "कितें जालें रे गोंविदालें ? कित्याक रडटा तूं ?" तेन्ना रडत रडत गोंविदान म्हाका सांगिल्लें, "आईन म्हाका माल्लो."

"कित्याक माल्लो ?" हांवें विचारिल्लें.

"मस्ती करता म्हूण... म्हाका भायर वचुं नाका म्हणिल्लो.... हांव भायर मातयेंत गेल्लों..." उलयत उलयत तो हुडके दितालो.

"तुगेली आई तसलीच ती. तिका वतांत घर बांदून दिवंक जाय..." हांवें ताका समजायिल्लो. आनी मागीर विचारिल्लें, "चड माल्लो रे तुका ?"

"हय" उबो रावन गोंविदान म्हळें "असो..." ताणें आपल्या एका गालार थापट मारिल्लें. "असो" ताणें दुसऱ्या गालार थापट मारिल्लें "आनी असो...." ताणें आपले दोनय गाल पिनून घेतिल्ले.

हांवें तागेले कंवळे कंवळे गाल मागीर सांसपिल्ले. अजूनय ते तांबडे आशिल्ले...

"आई बरी न्हय...वायट." तिडकून गोंविदान उद्‌गार काडिल्ले.

त्यावेळार हांवें ताका समजायिल्लो. "हें पळे गोंविद" वेंगांत घेवन हांवें ताका सांगिल्लें, "आईक तूं नाका म्हणून तुका मारूंक ना. तुंवें आडांगपणां केल्लीं म्हणून तुका माल्ला. आतां ह्या फुडें शाणो जा. आनी आई सांगता तें आयक."

आनी आज गोंविदाक तागेले आवयन सांगिल्लें म्हजेकडेन उलोवं नाका म्हणून. म्हज्या म्हऱ्यांत वचूं नाका म्हूण.

कित्याक ?

कोण जाप दितलो आसलो म्हगेल्या ह्या प्रस्नाची ? एक वेळ दिसलें, उठचें आनी तडक गोंविदाले आवयसरीं वचून तिकाच विचारचें.

आनी हांव वचूंक उठलों लेगीत पुण धीर जालो ना. मनांत म्हळें विचारून कितें करचें पडलां ? ओगीच उतराक उतर मेळटलें, उतरांचे कांटे काळजांक रोंबतले. मनांत नाशिल्लेंच उतरां उक्तायतलीं आनी गैरसमज वाडटलो...बरें कांयच जावचें ना.

गोंविदाक आजूय जाल्यार हांव तीच जाप दितलों आशिल्लों– "हय गोंविद, आई सांगता तें तुज्या बऱ्याखातीरच. तिगेलें तूं आयक. तूं म्हजेसरीं येवं नाका, म्हजेलागीं उलोवं नाका." पुण अशें कित्याक जावंचें हें मात म्हाका समजना जालें. म्हाका सांगचें सोडून तागेले आवयन त्या कंवळच्या भुरग्याक हें कित्याक सांगिल्लें ?

दीसभर गोंविंदच तकलेंत घोळटालो. दुसरो कसलोच विचार थंय तगना जालो... गोंविद...गोंविंद.

गोंविदाक हांव ताज्या ल्हानपणांत सावन वळखतां...पाळण्यांत तीन म्हैन्याचो जीव वळवळटा तेन्ना धरून हांव ताका दिसपट्टो खेळयत आयलां. ताका दांत आयले, भास आयली, तोय म्हज्या दोळयां फुडयांत. ह्या तीन वर्सांभितर आमी दोगूय खूबच लागीं आयिल्ले. आनी गोंविदा-वांगडा दोन घटका खेळप हें म्हजें दिसपट्टया कार्यक्रमाचें एक आंगच जावन बशिल्लें. हांव खंयूय भायल्या गांवांत गेलों जाल्यार हो म्हगेलो नेम चुकतालो. तेन्ना म्हाकाय ताजी याद येत रावताली आनी तोय म्हजी याद काडटा म्हणपाचें घरा येतकच म्हाका कळटालें.

...आनी आज तागेले आवयन ताका म्हजेसरीं वचुं नाका म्हणून सांगिल्लें, म्हजेलागीं उलोवं नाका म्हणून सांगिल्लें.

हातूंत चूक कोणाची आसली ? खंय कावळयान तकली वैर केल्ली आनी कित्याक ?

हाजीं उत्तरां कालदेव घडये दीत. घडये न दीत. पुण गोंविद, तूं तुजे आवयलेंच सांगणें आयक. तिगेलो मोगच तुका तशें सांगता. तातूंत तुजें बरें आसा, भलें आसा... फुडल्यो अडचणी कठोर जावन हांव पयस करतां. हांवच तुजे पसून पैस वतां.

(१९६२)

६

# गीता

हांव म्हज्यांत पावलों तेन्ना तें पोंदची ओली रेंव खरवडून घराची वणत बांदपांत गुल्ल आशिल्लें. हांव आयलां म्हणपाची ताका खबर आसतली, पुण ताणें तशें दाखोवन दिलें ना. भुसभुशीत रेंवेंत लिपतीं आनी खिणांत वैर येतीं तागेल्या हाताचीं बोटां हांव पळेत रावलों. दीस बुडत आयिल्लो, पुण अजून उजवाड आशिल्लो. वाऱ्यान तागेले केंस उडटाले, साडयेचो पदर फडफडटालो, हात हालताले आनी दोळयांच्यो पातयो हालताल्यो— पुण हें सगळें हालता तें दर्याविळेवेल्या झणझणीत वाऱ्याक लागूनच असो भास जातालो. गीताची खुबी ती हीच. एकाद्रें काम हातांत घेतलें म्हणटकूच तें काम पुरो जाईसर तें आपलें ध्येयभान विसरून तातूंत तन्मय जातालें. अशा वेळार ताची तुलना करची जाली जाल्यार ती एकाद्रया रोंप्याकडेन करूंयेत.

दीस बुडिल्लो. काळोख दाटूंक लागलो. आतां गीताले आकृतीच्यो कडो तितल्यो दिश्टी पडटाल्यो. पुण रेंवेचें घर एकाएक कोसळ्ळें आनी ताणें हात फांफुडले. "खंय पावलीं हीं ?" तोंडांतल्यान ताणें प्रस्न काडलो. जसो काय आपणाकच आपणे तो विचाल्ला. म्हणून म्हाका उलयन अशें दिसलें ना. अजून गीतान नदर वैर करून म्हजेकडेन पळेलें ना. म्हज्यानच आतां रावं नज जालें. हांवें ल्हवू म्हळें ; "गीता..."

ल्हार कसो म्हजो आवाज आयलो आनी वाऱ्याच्या झणझणांत, ल्हारांच्या आवाजांत तो विरूनय गेलो. आतां गीताचो आवाज आय-कुपाची हांवें अपेक्षा केल्ली, पुण तें उलयलें ना.

काळोख अदीक दाट जायत आशिल्लो. त्या काळखांत सगळें रूप लिपिल्लें... रंग लिपिल्लो..... पुण ताजी आकृती मात लिपूंक पावली ना.

थीर. वाऱ्यान उडटे केंस, फडफडटो पदर वा पिटपिट्टचो दोळयांच्यो पातयो ती अविचळ एकाग्रता भंगयनाशिल्लयो.

म्हाका उलोवंक जाय आशिल्लें तितलें सगळें हांव विसरत वतालों. असोच मोन्यानीं बसलों जाल्यार सगळेंच विसरून वचन ह्या भयान हांवें म्हळें, "सदा फाल्यां येता. तूं जाणां ?" आनी म्हजो आवाज आयकून हांवच अजापलों. तो मात्सो घोगरो लागलो. गीतान काळखांतच म्हजे वटेन नदर घुंवडायली. कांय एक उलयलें ना.

"तुका भय दिसना ?" हांवें विचाल्लें.

म्हजो प्रस्न विचित्र खरो. तसोच अदॅवटय. ताकाच लागून घडये गीतालें तोंड उकतें जालें: "कसलो भय?"

प्रतिप्रस्नय मेजिल्ल्या उतरांचो. भय कसलो काय म्हूण विचारता. कोणाचो काय म्हणून विचारना. हांवें जाप दीत नवो प्रस्न घालो, "काळखांत एका दादल्या-मनशाबरोबर एकलें बसूंक ?"

गीता हांसलें. पांय कवळून कमर सरकावन अदिकच बगलेक आयलें. आनी म्हजो हात आपल्या हातांत घेवन उलोवंक लागलें. "एक वेळ तुवें म्हाका भेश्टायिल्लें. याद आसा तुका ?...हांव देंवचाराक पळोवपाचो हट्ट घेवन बशिल्लें. बाबान धेंगसायलें, आईन समजायलें. पुण हांवें हट्ट सोडलो ना. तेन्ना तुवें म्हळें, 'चल. हांव दाखयतां तुका देंवचार.' अशें म्हणून तूं मागीलदारच्या वडामुळांत म्हाका घेवन गेलो आनी म्हाका थंयच सोडून तूं नाच्च जालो. मागीर आंगावेलें खोमीस माथ्या-तोंडा-वेल्यान उरफाटें काडून तूं घोगऱ्या आवाजांत म्हाका भेश्टावंक लागलो–"

"तेन्ना तूं खऱ्यांनींच भियेल्लें?" हांवें विचाल्लें.

"हय." ताणें म्हळें, "हांवें सामकेंच आंग काडिल्लें. पुण फाटल्यान येवन तुवें म्हज्या खांदार हात दवल्लो तेन्ना मात् हांव तुका वळखलें.... तुगेले हात वळखलें."

"आतां हांव देंवचार जावन तुका भिवोवंक धजचों ना, अशें दिसता तुका ?"

"तुवें आतां सुवेंक 'गीता' म्हणून उलो केलो तेन्ना म्हाका तुज्या त्या दिसाच्या आवाजाचो उगडास आयलो. पुण आतां..."

एकदम ताणें तोंड बंद केलें.

"आतां कितें ?" हांवें विचाल्लें.

"ना, कांय ना." ताणें म्हळें.

ताका तिडावंक म्हणून हांवें म्हळें, "आतां सदा म्हऱ्यांत आसतना देंवचाराची बिशाद..."

हांव पुरतो उलोवंचे आदींच ताणें आपलो हात म्हज्या तोंडार धल्लो. म्हाका कितें येवजलें कोण जाणा, हांवें ताज्या बोटाक ल्हवूच घांस काडलो. पुण ताणें तें फाटीं घेतलें ना.

कांय वेळ मेरेन तें कांय एक उलयलें ना. आपल्या हातांत आशिल्ल्या म्हज्या हातांतले मुदयेकडेन तें खेळत रावलें.

"तुवें मागीर देंवचार पळेलो ?" हांवें विचाल्लें.

"हय. म्हुणणच तर ही मुदी पोशेतां. हे मुदयेक पळोवन देंवचार पळ काडटा."

"तुका लग्नावेळार हीच मुदी दितां तर– पागण म्हुण."

"पुण मुदयेचो जादू ती तुज्या बोटाक आसासर उरता." ताणें म्हळें,

म्हाका जाप येवजली ना. हांव येवजितालों. मदींच ताणें म्हळें "दुसरो कसलो जादू आसा तुजेकडेन ? म्हाका दिवपा सारको ?"

"आसा एक." हांवें जाप दिली.

"कसलो ?"

"सदा."

तें एकदम उठून उबें रावलें. दर्यावटेन तोंड आनी म्हजेवटेन फाट करून. हांवें विचाल्लें, "ताज्या नांवांसरशीं लजेलें ?"

तें कांय एक उलयलें ना. म्हाका दिसलें, जें कितें सांगपाचें आसा तें आतांच सांगून उडयिल्लें बरें. म्हुण हांवें म्हळें, "सदान म्हजेर एक

काम सोंपयलां. तो चवथ करून फांसाक वचूंक सोदता. त्या आदीं लग्न–"

मर्दीच ताणें म्हळें, "मागीर म्हाका कितें कर म्हणटा ?"

"तुजी संमती आसची. तुजे संमती भायर कशें जायत ?"

"तूं ना तर ?" आवाज मात्सो निबर करून ताणें विचाल्लें.

म्हाका प्रस्नाची खोंच समजली ना. हांव ओगो रावलों.

खिणभरयान तेंच उलयलें: "भुरगेपणांत म्हाका खांदार बसोवन चांफीं खुडूंक दिताली तशें आतां बसय तुज्या खांदार आनी..." ताणें वाक्य पुरें केलें ना.

हांव मात्सो गंदळ्ळों. म्हळें: "आतां म्हज्या खांदाची गरज खंय आसा ? चांफीं खुडटल्याची लांबाय वाडल्या आनी चांफ्यांची ताळीय बागोवन आयल्या."

"तशें जाल्यार म्हाका खांदावेलें सकल देंवय तर." ताणें म्हळें.

ताजो आवाज ओलावलो. रागाचो ताप आनी दुकांची ओलसाण तातूंत आशिल्ली. हांव अस्वस्थ जालों. हांवय उबो रावलों आनी ताज्या माथ्यार हात दवल्लो.

"आशीर्वाद दिता ?" तिडकून ताणें विचाल्लें.

"कसलो ?"

"मनासारको घोव मेळूं तुका !"

ताणें माथ्यावेलो हात झटकिलो ना.

"तुका केन्ना कोण आशीर्वाद दिता ?" ताणें विचाल्लें.

"आई दिताली. आतां ती ना." हांवें म्हळें.

"तिज्या आशीर्वादाक फळ आयलें काय ना ?"

"तितलें पुण्य म्हजे गांठीक ना."

"तुजीं पातकां थोडीं नात !" ताणें म्हळें. कांय वेळ कोणूच उलयलो ना.

"आतां घरा वचप आसा काय ना ?" कांय येवजना जावन हांवें प्रस्न केलो.

म्हजो प्रस्न घडये ताका मानवलो ना. मात्शें वैतागून ताणें जाप दिली, "बरोबर आई आनी बाबा आयल्यांत. वारें खायत खायत खंय पावलीं देवाक खबर !...तुका ताकीत आसल्यार तूं वच..."

"म्हाका ना." हांवें जाप दिली, "आई आशिल्ली तोंवर घरा वेळार पर्थुपाची तिश्टत उरताली. मात्सो कळाव जालो जाल्यार दोळ्यांत तेल घालून दारांत येवन उबी रावताली. आनी सद्दां उठून सुनेक हुस्केताली. सून घरांत हाडपाची सपनां पळेताली..."

"तुवें बायल कित्याक सोदली ना ?"

"आपलेकडेन जी वस्त आसा तिका खंय सोदप ?"

"खंय आसा ?"

ताज्या ह्या प्रस्नांत उतावळेपण आशिल्लें. आपली नदर इतले लागीं हाडून तें म्हज्या तोंडाकडेन पळेतालें कि ती नदर म्हज्या आर-पार गेली.

"माणकुली कळी आसतना धरून ती म्हजेकडनच आसा. आनी तिजी हांव जतनायेन राखण करतां."

"खंय आसा ती ?"

हांव हांसलों. "तें मात आतां विसल्लों," हांवें जाप दिली.

पावल उबारून तें लागीं आयलें आनी आपलो हात ताणें म्हज्या फाटीवेल्यान भोंवडायलो.

"तूं कितें सांसपिता ?" हांसत हांवें विचाल्लें, "तिका हांवें अशी लिपोवन दवरूंक ना. मंत्रशक्तीच्या बळार हांवें तिका जतनायेन सांबाळून दवल्ल्या. पुण आतां तिका आपयतलों म्हळ्यार तो मंत्रच हांव विसल्लों......विसल्लों..."

"हांव सोदून काडटां."

"कितें ?"

"मंत्र !"

आनी हांव फुडें उलोवंचे आदींच ताणें आपलो हात म्हज्या ओंठा-वेल्यान मोंवडायलो. मागीर आपल्या ओंठांनीं म्हजे ओंठ सांसपून तो मंघ आपल्या तोंडांत घेवपाचो यत्न केलो. आनी मागीर एकदम ताणें म्हळें, "मेळ्ळी... मेळ्ळी !"

"खंय ?" हांवें विचाल्लें.

"ही पळे !" म्हणत ताणें म्हाका वेंग मारली.

(१९६१)

६

# धर्तरी अजून जियेताली....

जे भुंयेचेर स्वतंत्रताय नंदता आनी जंय परकी राश्ट्रांचें आर्थिक, सामाजिक, सांस्कृतिक, लस्करी वा राजकी चेपण ना, असल्या स्वतंत्र देशाचो नगरिक जावपाचो म्हजो कदिम काळचो हावेस भारताचें नागरिकपण मेळटकूच सफल जालो. हांव भारतांत येवन रावंक लागनाफुडें संवसारांतल्या नेमाळ्यांक एक नवी खावड मेळ्ळी. हो म्हजो विशय ते झरयत, गाजयत रावले. कांय जाणांनीं आपले धांवते तकलेक मेकळी सोडली आनी कल्पित काणयोय बरोवन उजवाडायल्यो. हाका लागून कांय वाचप्यांक हांव एक कुवाडें जावन बसलों. म्हणून आयज हांव म्हजी काणी सांगून हीं भ्रमाचीं जाळां ना करूंक सोदतां.

म्हजें नांव मार्टीन. जल्मान येवरोपेव. ल्हानपणांतसावन म्हाका शिकारेचो भारी नाद. फुडें सैन्यांत आसतना, जायते फावटी वाघां-कोल्यांचेर आर्म जोखपाचो प्रसंग म्हजेर आयिल्लोच. तेंच आर्म मनशांचेर जोखपाचो काळय आयलो. शांततायेच्या वेळार एकाद्रयाचो खून केलो जाल्यार ख्यास्त भोगची पडटा; पुण लडायेच्या वेळार बडटी आनी मान वांटयाक येता!

संवसारांतलीं दोन म्हाझुजां हांवें पळेलीं. दोनांतय हांव झुजलों. पयल्या म्हाझुजावेळार एक सादो सैनिक आशिल्लों हांव, दुसऱ्या म्हाझुजाच्या सोंपत्या दिसांनीं मेजर जावंक पावलों. म्हजे तकलेंत झुजाचीं कुपां रातदीस उफेतालीं. उज्याचे गुळे, वळवळटे प्राण, प्रेतांच्यो राशी. हांचो म्हजेर कांयच परिणाम जावंक पावनाशिल्लो. दादले, बायलो, भुरगीं, म्हातारे-कोतारे कसलोच भेदभाव झुजावेळार नासता. गांवचे गांव ओस पडत वताले. आनी हो येदोय यज्ञ चलिल्लो कित्याक? तर मनीसजातीच्या बऱ्याभल्याखातीर!

१९४४ वर्साची गजाल. एका दोंगराचेर आमचो तळ आसलो. आमी आमच्या हेर सैन्यापसून तुटून एके कुशीक पडिल्ले. केन्ना कितें जायत हें धुगधुगेन दीस मेजताले. दुस्मानालें सैन्य आमच्या रोखान येतालें. रानां, दोंगर, शेतां, मळां, गांव वा मनशां हांची कोणाचीच पर्वा, करिनासतना जोगलाच्या वेगान, तें मुखामुखार सरतालें.

त्या मर्णाचे सावळेंत हांवें जिणेचो खेळ पळेलो, एका नव्या संवसाराचो नाच पळेलो, एका नव्या संवसाराचो उदय जाता तो म्हाका दिश्टी पडलो. आनी ह्या संवसाराक तोंड दितले माणसुकेचो—मनीस-जातीचोय नाच देखलो. हांगा एकाद्री नर्तकी नाच करून दाखयनासली वा एकाद्न्या बॉल-रुमांत रंगीत बल्बाच्या भडक उजावाडातळा जातलो नाच हो नासलो. हो आसलो धर्तरेचो नाच. हो नाच पळोवन जिणेंत पयलेच फावट म्हाका दिसूंक लागलें कि जगपांतच जिणेचें सार आसता. मर्णाची म्हाका थर्त भिरांत दिसूंक लागली. आजवेर मर्णाचो खेळ खेळटल्या म्हाका जियेवचें अशें दिसूंक लागलें.

आनी ह्या वेळार मुखार पेट्टा तो उजो पळोवंक नज जावन हांव दोंगराचे फाटले वटच्यान, धर्तरेचे मांडयेर देंवलों. पांचव्याचार झाडां-झुडपांचेर सवणीं जिणेचें काव्य गायतालीं. सळसळटीं पानां संगीताचे सूर काडून ह्या काव्याक साथ दितालीं. एक ल्हानशीच झर खळखळत धांवताली. तीय नाचताली. आपले जिणेची पूर्ती करूंक, हांसत-खेळत, नाचतगायत न्हंयेच्या वेगांत वचूंक धांवताली...आनी हांव आजवेरचो हो संदेश विसरून मनशाच्या नांवान मनशाचीच हत्या करतालों !

आतां थोडयाच वेळान हांगा शत्रूसैन्य पावतलें. बाँबाच्या गुळया-सरशीं हो पांचवोचार वाटार गोबोर जावन वतलो. सवणीं-सावदां भाजून करपतलीं. कितें गुन्यांव ह्या सवण्यांचो ज्यांकां ही स्यास्त तोंड बांपून भोगची पडटा ती ! म्हाका दिसलें.. ना. निजी संगीत मरूंक फावना. हें संगीत मेल्यार मनीस जातीक आपली मुळावी अवस्था पर्थून अणभवची पडटली. अणभवन जियेवची पडटली.

अवचित म्हज्या कानार एक म्होंवाळ सूर आयलो. आवाजाच्या रोखान पळे जाल्यार एक चली व्हांवत्या निर्मळ व्हाळार पांय धुता आनी पांय धुतां धुतां गुणगुणटा. कसलें तरी गीत. त्या गीतांत गुल्ल जावन पांय निवळ करून घेतल्या त्या फुलत्या जिवाक धंग लेगीत ना कि दोंगराच्या पलतडच्यान होमखण पेटलां आनी व्हांवत्या वाऱ्याच्या वेगान तें फुडें फुडें येता. आनी येता आसतना निसर्ग चिड्डून मनीसजात माडोवन येता !

ते चलयेची नदर म्हजेर पडली आनी तिणें गावप थांबयलें. म्हाका दिसलें पळे, सैनिकांचें अस्तित्वच निसर्गाचें गीत थांबयता. हांवें तिका म्हळें, "गा बाये, गा. तुगेल्या गीतांत मनीस जातीक देख घेवपासारखो संदेश लिपला. गा, मोठयान गा. हांव जर वांचून उल्लों जाल्यार तुगेलो हो दिव्य संदेश संवसाराच्या कोनशाकणकणीं पावयल्याबगर रावचों ना."

ती चली लजेली आनी भितल्लेभितर हांसली. तो हांसो कितलो निश्पाप ! कितलो निर्मळ !!

"बाये," हांवें तिका म्हळें, "तुगेल्या ह्या गीतांत आनी त्या सुरबुस हांशांत संवसारिक शांततायेचो आनी मनीसकल्याणाचो संदेश उपाट भल्ला. खंय शिकलें तूं हीं गितां ? कोणें शिकयलीं तुका तीं ?"

"हीं गितां," अभिमानान ते चलयेन म्हळें, "हीं आमच्या काळजांत रोयिल्लीं आनी ओंठार फुलिल्लीं गितां. ही आमगेल्या जाणटेल्यांली जोड. हीं पांचवींचार शेतां, तीं दाट-दाट भाटां, ती मुसमुशीत माती आनी हे खळखळींत झरे... हांचीं हीं गितां. हीं जाणटेल्यांक अंतस्करणांतल्यान स्फुरलीं. तीं कशीं कात म्हणपाचें हांव सांगूंक नकळं. तूंच विचार ह्या झऱ्याक, ह्या शेताक."

हांव निरुत्तर जालों. म्हज्या मुखार एक धनगराली, शिकूंक सवरूंक नाशिल्ली चली आसली. पुण तिज्या उतराक जाप दिवप म्हाका कठीण जालें.

इतले म्हणसर एक ४।५ वर्सांचो भुरगो थंय आयलो.

"हीं गितां गायता आसतना कितलीं दुकां गिळचीं पडटात जाणा तूं ? हो पळे, हो म्हजो धाकलो भाव. हाका जल्म दितना आवयन दोळे धांपले आनी आमचो बापूय लडायेच्या आर्मीचे भकीक पडलो. आपल्या सुवार्था खातीर तुमी झुजतात आनी रोखडेच एक जातात. पुण ह्या रेड्यापाडयांच्या झुजांत ज्या झाडांचेर काळ येता ताजी गणटी तुमी केन्ना केल्या ?" ती चली रागान तांबडी गुंज जाल्ली. सगळी तिडक तिगेल्या दोळयांनीं भरिल्ल्यावरी तिजे दोळे तटास जाल्ले. तिगेले ओंठ थरथरताले. आंतकडयांक पिवळ पडून ती उलयताली.

हांव मोन्यानी गुन्यांवकार कसो तिका पळेत आशिल्लों.

"पुण हीं झुजां, ह्यो लडायो जातात तरी कित्याक ?" एकदम निर्शेल्ल्या सुरांत तिणें म्हाका प्रस्न केलो. मनशाचें काळीज विरगळावन उडोवपाची तांक त्या एका प्रस्नांत आसली. "हीं झुजां बंद करूंक उपायच ना ?" पर्थून तिणें प्रस्न केलो. "आनी ह्या झुजांक लागून तुमचीं आमां आमचेर कित्यात धरतात ? आमी कितें वायट केलां तुमचें ? तुमचे वाटेक लेगीत वचनांत आमी. पुण आमच्या घरादारांची मात वाट लायली तुमी. आमच्या आशांक आनी आकांक्षांक तुमी उजो पेटयलो. आनी जीवितांचो सत्यानाश केलो. कितें जाप दितले तुमी तुमगेल्या ह्या करण्यांची, देवाल्या निवाड्या वेळार ?"

अजून तिका खुबशें उलोवपाचें आसलें. पुण तें उलोवपाची संद तिका मेळ्ळी ना. शत्रूलें सैन्य दोंगराचे तेंगशेर पाविल्लें आनी थंयसूनच आयिल्ली एक गुळी तिगेलो मेंदू चिरून पसार जाल्ली.

आमच्यां मळार धुरी पडिल्ली. त्याच वेळार आमचें सैन्य विमानांतल्यान देंवलें आनी आमी तितल्याच नेटान परती हाणाहाण करपाक सुरवात केली. कांय दीस थंय जीण-मर्णाचो खेळ चल्लो. उजो, रगत आनी प्रेतां हांकां अंत-पार उल्लो ना. आनी अखेरेक एकलो जिखलो, दुसरो हारलो. पुण दोगांचेय हात मनीस जातीच्या रगतान माखले.

ह्या झुजांत म्हाका म्हगेलो एक हात वगडावचो पडलो. आनी एके नदरेन तें बरेंच जालें. कारण सोंपेपणीं म्हाका सैन्यांतल्यान भायर सरूंक मेळ्ळें. आपल्या दोळयांनीं हारजैताचो देखाव पळोवपाखातीर आनी खऱ्यांनींच कोण जिखलो, कोण हारलो हाजो थाव लावन घेवपाखातीर हांव त्या वाटारांनीं भोंवलों. भोंवतां भोंवतां पांच-स म्हैन्यांउप्रांत हांव त्या दोंगराचेरय पावलों—त्या दोंगराचेर जंय एके निश्पाप चलयेक मर्ण आयिल्लें ! थंय आसलें कितें ? थंय कांय एक नासलें. तो पांचवो-चार वाटार आतां पुराय करपून गेल्लो. एक काळें किट्ट मळ सगल्याक पातळिल्लें. आनी तो झरोय आटून गेल्लो. देवाक खबर धर्तरेच्या त्या चाकरांपैकीं कितले मेले, कितले अपंग जाले.

पुण तरीकय कांय लोक शेतां सारकीं करपाचे तयारेक लागिल्ले. पैसुल्ल्या वाटारावेले बांयचें उदक उसपून तांच्यो बायलो तें घेवन येताल्यो. आनी हें करता आसतना तांच्या तोंडार तिडक नासली, खिन्नताय नासली. देव जें करता तें बऱ्याभल्या खातीरच असो समज करून घेतिल्ले हे लोक पर्थून आंगची हूम गळयताले, रगत आटयताले. अजून एक भावना, एक प्रेरणा, एक हावेस तग धरून आसा म्हणपाचें पळोवन म्हाका कितलें बरें दिसलें !

सभ्यताय, संस्कृती हांचो गोबर जाल्लो... पुण धर्तरी अजून, जियेताली !

(१९६०)

७

# उरणो

उरणो हें नांव आपणाक कित्याक दवल्लें काय म्हुण रडत रडत तो आपले आवयसरीं गेल्लो. हे गजालीक आतां वीस वर्सां उलगलीं. हीं वर्सां ताणें आपल्या मनांतच ह्या नांवाचेर कसून काडलीं. जलमल्लें भुरगें जगना म्हणून खंय ताका हें असलें नांव दवल्लेलें.

शाळेंतलीं वर्सां सोंपलीं तरी उरण्याल्या मनांतली ह्या नांवाविशींची अढी मेली ना. जळटालो तो मनांतल्या मनांत. शाळेंत ताका बरोबरचे वांगडी 'उरणः उरणो' करून चाळयताले, खुबळायताले. पुण आपलें नांवच फुटकें तेन्ना सवंगड्यांचेर खुबळून हांशें कित्याक करुंया, असो विचार करून तो मोन्यांनी बसतालो. जाल्यारय ताका दिस, आपले आवय बापूय सामकेच अरसिक, अळणी पेज कशे! ताका केन्ना केन्नाय दुबाव येतालो, आपले आवय बापूय शाळेंतच गेल्ले नासतले. . . .शाळेंत-ल्यान घरा येतकच रातीकडेन हांतुणार कुशी बदलून तो आपली न्हीद खळोवन केदो वेळ मेरेन खतखतीत दुकां व्हांवयतालो तीं थोडींच लोकाक दिसूंक आयल्यांत !

ताका लागून खाल्लो गोटो उरणाच्या आंगाक लागनाशिल्लो. भुरगेपणांत आंगाक कापूस गुठलायला, गुलगुलीत कुंवाळोसो, "उरण्या, दारां रुंद करूंक आतांच मेस्ताक आपोवंया" असल्या उतरांनीं ताजी मस्करी घरचो लोक करी पुण आतां दिशीं-दिशीं उरणो सुकत वतालो. हती भागलो म्हुण घोड्याचे घोडवळींत पावता ? ह्याच न्यायान पयलीं पयलीं कोणालेंच लक्ष उरण्याकडेन गेलें ना. पुण कुंवाळो जेन्ना मसं-गाची सांग जावंक पावलो तेन्ना आवयबापायक दिसलें, चल्याक पुते दिश्ट जाली ! मागीर कितें विचारता ! आंगवण्यो-सांगण्यो हांकां अंतपार

उल्लो ना. खरेलें दुःख कोणेंच पारखिलें ना. आनी कंवळ्या उश्ण्याक लेगीत तें वळखूंक आयलें ना.

ह्या आपल्या नश्टया नांवाक लागूनच उश्णो ल्हवू ल्हवू एकमुळो रावंक लागलो. संवगड्यांक सदांच तो टाळूंक लागलो. एकाद्री पटी घेवन वाचनमंदिराच्या कोनशाक वा घरांत बसपांतच ताका समाधान मेळूंक लागलें. आनी अल्लडपणा करचेल्या दिसांत जाणटेपणाचीं कर्तुबां ताच्या नशिबांत आयलीं.

केन्ना केन्नाय तो आपलें दुःख एकाद्र्याकडेन उकतें करी. तेन्ना तो ताका समजायी, "आरे, सामको पिसो मरे तूं उश्ण्या! नांवांत रे कितें आसता? आनी उश्णो हें नांव कितें वायट?"

असो दिलासो दिवपाचो कोणेंय येत्न केलो म्हणटकच उश्ण्याली व्यथा वाडची. नांवांत कित्यें आसता काय खंय! ताणेंय शेक्सपियर वाचिल्लो. गुलाब-शेंवत्याचें नांव बदल्लें म्हणून ताजो वास बदलना हें जरी खरें आसलें जाल्यारय गुलाबशेंवत्याक 'घाणेर' म्हणिल्लें कोणूच रसिक सोंसून घेत?

फुडें उश्ण्यान नेमाळ्यांनीं वाचलें कि लोक नांवां बदलून आपल्या मनासारकीं नांवां आपणाक लावन घेतात. ही माण्णी वायटशी न्हय उश्ण्याक दिसलें. पुण तिजेर मात्शी चिंत दिताकच ती सामकीच ताळ नासलेली म्हणपाचें ताका भान जालें. उश्ण्यान बरें आपलें नांव बदल्लें म्हणून तागेले आवय-बापूय तोंडाक बशिल्लें उश्णो हें नांव सोडूंक कशे तयार जातीत? आपणें हट धल्लो जाल्यार ते तयार जातीतय घडये, पुण तांकां त्या नांवाचो उमाळो कसो येतलो, मोग कसो दिसतलो? आनी लोक तरी आपलें खंय आयकतलो? उरफाटो लोक आपणाक खुबळावंक म्हणून 'उश्ण्या, उश्ण्या'चो धोल अदी-अदीकच वडयतलो! जर तो खंयूय परकी जाग्यार वचून रावंक पावत आशिल्लो जाल्यार वेगळी गजाल; पुण ना म्हणून जाय जाय करून जाल्ल्या एकल्या एकसुऱ्या चल्याक आवय-बापूय आपले नदरे आड वचूंक कशें दितीत? ताका खूब

दिस, ह्या एद्या वडल्या संवसारांत एका तरी मनशान आपणाक एकाद्रचा सुरबूस नांवान उलो मारचो. हो उलो घडये ताजी तान-भूक न्हिवयत आसलो, कोणें सांगचें?

सिनेमांनीं दिग्दर्शक आनी नट आपलीं नांवां, नाका आशिल्या नांवाचें फक्त अद्याक्षरच लावन वापरतात म्हणपाचें ताणें पळयल्लें. कांय दीस ताणें ती पद्धतय आपणायली पुण संवकळीचें उश्णो हें नांव कानांत पडप मात बंद जालेंच ना.

फुडें उश्ण्याक सोयरिको येवंक लागल्यो. तेन्ना ताणें थारायलें, आतां बायलेक सांगून आपुण आपणाक एक सोबीत नांव दवरून घेतलों. बायल तरी असवडीं आपणाक त्या नांवान उलो मारतली ही कल्पना ताजे तकलेंत आयली तीच रिगली. कितलो सुखावलो तो, कितलो सुरकुटलो !

ताका तीन सोयरिको आयिल्लचो. एक दीस बापायन ताका विचाल्लें, खंयची चली तुका पसंत आसा ? तुजी इत्सा आसल्यार चलयांक पळोवन यो. कांय वेळ उश्णो ओगी रावलो. थोडया वेळान ताणें म्हळें, "कोण कोण चलयो असात?"

"एक आसा देसायाली, दुसरी कामतीली आनी तिसरी फोंडूली !"

फोंडू हें नांव आयकना फुडें उश्ण्यान बोंचो वांकडो केलो ! ह्या फोंडूली चली तरी कसली आसतली, देवाक खबर ! मनांतल्या मनांत ताणें म्हळें. पुण ताका बापायकडच्यान काडूंक जाय आशिल्ली वेग-ळीच गजाल. ताका सांगून आयिल्ल्या चलयांचीं नांवां समजून घेवचेलीं आशिल्लीं पुण बापायक चलयांचीं नांवां विचारूंक ताका धीर जालोना.

मात्सो राबून ताणें ओंठ हालयले. पुण तोंडांतल्यान उतर फुटलें ना. बापायनच ताजी सुटका केली!

"म्हाका दिसता," बापायन म्हळें "फोंडूलें जीवन आमच्या घराक सोबसारकेंच आसा."

"जीवन !" ओंठांतल्या ओंठांत उश्ण्यान तें नांव उच्चारलें,

जीवन... नांव ताका पसंत पडलें. ताणें थरायलें लेगीत कि जीवनाकच पसंत करचें. कितेंय उलोवंक जाय आशिल्लें, म्हणून ताणें म्हळें, "तुमी पसंत करशात ती म्हाका मान्य."

"तें जालें म्हण..." बापायन म्हळें, "पुण तुगेले आवयच्या मनांत कामणें आसा काय दिसता! आंगान मातशें गोरेंधवें आसा तें बाकी."

कामणें हें तेराव्या शेंकड्यांतलें नांव आयकनाफुडें उज्रण्यालें आंग शिरशिल्लें. बेगिबेगीन ताणें म्हळें, "गोरें धवें म्हणून कित्याक? चली गुणान बरी आसूंक जाय न्हय?"

"खरें बाबा, म्हजें म्हणणें अशें." बापायन सांगलें, "लग्न जातलो तूं. तेन्ना तुजे पसंतीनच जाल्लें बरें."

"बाबा" उज्रण्यान म्हळें, "तुजे निवडीक हांव अदीक म्हत्व दितां..." इतलें उलोवन बेगिबेगीन उज्रणो भायर वचूंक उठलो.

"म्हणटकच तुका जीवन पसंत आसा तर?" बापायन विचाल्लें. उज्रण्यान तकली हालयली.

"चलयेक पळोवपाचें केन्ना दवरुंया?"

"अं? पळोवपाचें आनीक कितें आसा?" उज्रण्यान म्हळें.

"तुजी वळख आसा काय कितें रे?"

"ना... ना." उज्रणो कांचवेलो. 'म्हाका ही प्रथा निखालस पसंत ना. आतां तुजी इत्सा आसल्यार येन हांव पळोवन." अितलें उलोवन तो पसार जालो.

फुडें एक उपचार कसो सगल्यो विधी जाल्यो आनी लग्नाचो म्हूर्तय थारलो. पुण मदीं उज्रण्याल्या एका पयसुल्या दायज्याक देवालो आपौणो आयिल्लयान म्हूर्त टळ्ळो. आनी लग्न स म्हैने लांबणेर पडलें.

पुण ह्या स म्हैन्यांत उज्रण्याली बलायकी निवळत गेली. मसंगाची सांग हळू हळू कोंकण दुदयाचो आकार घेताली. जीवन हें नांवच ताज्यांत जीवन ओततालें. आनी कल्पनेच्या मळबार तो विचारांचीं पांखां हालयत उडटालो...!

ठरिल्ल्या प्रमाणें, आनीक कसलेंच विघ्न येना आसतना, उश्ण्यालें लग्न जालें. व्हंकल–पावणी घेवन तो घरा आयलो. आयिल्ले सोयरे धायरे परतूंक लागले. आनी ल्हवू ल्हवू सगळो लोक आपापल्या घरा गेलो. . . .

उश्णो बायले म्हऱ्यांत आयलो. आनी ताणें ल्हवूच उलो माल्लो, "जीवन!"

लजेल्ले नदरेन ल्हवूच तिणें तकली वयर काडून आपल्या घोवा-कडेन पळेलें आनी ती अदिकच लजेली.

तिज्या म्हऱ्यांत बसून ताणें तिका म्हळें "हांवें, तुजें नांव बदलूंक ना. जीवनच दवल्लां. कितलें सोबीत नांव गो तुजें! तुमी बायलो भाग्य-वंत खऱ्यो! लग्न म्हळ्यार तुमचें नवें जीवित. नव्या नांवान जाय जाल्यार तुमच्यांनीं ह्या नव्या जीविताची सुरवात करूंक येता. . .जीवन! खरेंच कितलें सुन्दर नांव!"

ताजी बायल अदिकच लजेली. उश्ण्यान म्हळें, "अशें लजेता कित्याक? म्हज्या नांवाची लज दिसता तुका? पळय, तूं दवर पळो-वया म्हाका एक सुंदर नांव. तुजे आवडीचें. आनी हें पळय, म्हाका ह्या तुज्या आवडीच्या नांवानच उलो मारप आं. सांग. . .खंयचें नांव तुका पसंत आसा?"

ताजी बायल अदिकच लजेली, तिणें एक फावट घोवाले नदरेक नदर दिली आनी ओंठ हालयले. पुण उतर भायर सल्लें ना. . .

"अशें लजेता कित्याक? बरें! अशें कर. ल्हवूच म्हज्या कानांत सांग पळोवया" अशें म्हणून उश्ण्यान आपलो कान तिज्या तोंडा म्हऱ्यांत व्हेलो.

लजेचो आवेग आवरूंक नज जावन सक्क करून तिका हांसो आयलो. मागीर ल्हवूच तिणें आपले दोनूय हात उश्ण्याल्या काना भोंव-तणीं व्हेले आनी आपलें तोंड वयर काडून म्हळें—

"उश्णो."

"आं?" विंचू चाबिल्लेभाशेन किळांचून उश्णो उसळ्ळो. बाबडे

बायलेक कितें जालें हेंच समजलें ना! तोंडावेलो हांसो बावून ती साम-कीच काचाबूल जाल्ले भाशेन जाली....

"उश्णो!" परत तो किळांचलो, "कितलें अरसिक गो तूं!"

जीवनाच्या काळजाक हीं उतरां कशीं रोंबलीं आसूंये! काळजांतले हुडके आनी डोळयांतलीं दुकां आडायत जीवनान म्हळें, "रात दीस ह्या नांवाचो जप करून ह्या नांवाचेरूच म्हजो मोग बसलो! कितें करूं हांव!"

(१९६१)

८

# निशालें दुःख

निशा सगलें पांच वर्साचें. अरूण, ताजो व्हडलो भाव, ताज्यापरस दोन वर्सांनी व्हडलो. पुण वाड्चावेल्या मातयेंत खेळटल्या भुरग्यांत तोच व्हडलो. आनी देखून सगल्या अन्नाट्या-गिन्नाट्यांत तो पड आशिल्लो; सगल्या पोरांचो म्होरको. पुण निशाल्या आनी ताग्गेल्या नक्षत्राक मात केन्नाच पडलें ना. निशाक रडयले बगर ताजो एकय दीस वचनाशिल्लो आनी ताज्या बगर निशालें पान हालनाशिल्लें. अरूण कसोच दाद दिना अशें दिसूंक लागनाफुडें निशा व्हडाव्हडान रडूंक लागतालें आनी मागीर अरूणाकच नमतें घेवचें लागतालें.

पुण आज मात अरूणान नित्शाय केल्लो. निशान सदांभाशेन रडून घेतलें. . .पयलीं मुळूमळू करून आनी मागीर व्हडाव्हडान. अरूणान ताका हटकिलेंय ना. मागीर मात निशान दोळे पोशेले आनी पोले फुगोवन तें घराच्या सपणार येवन बसलें. येदो वेळमेरेन खांक्यांत धरिल्लो बोंबाडो ताणें मांडयेर धल्लो आनी तें हेर भुरग्यां वांगडा खेळटल्या अरूणाक तुकूतुकू करून पळोवंक लागलें.

सकाळीं बाबान अरूणाक आनी निशाक एक--एक गॅस भरिल्लो बोंबाडो घेवन दिल्लो. आनी वरभर दोगांय आंगणांत बोंबाडे घेवन खेळटालीं. अचकित फोगेट फुटिल्ल्या सारको आवाज आयलो आनी अरूणालो बोंबाडो फुटलो.

निशा पयलीं कांचवेलें. मागीर खोशेन उडी मारून म्हणूंक लागलें, "ओहो! अरूलो बोंबाडो फुटलो गया, फुटलो गया!"

अरू ओगी रावलो. पुण निशाल्यो हांसेट्यो थांबचनात. "अरूलो बोंबाडो फुटलो गया, फुटलो गया!" म्हणून तें उडयो मारीत रावलें

आनी अशें करता आसतना हातांतल्या आपल्या बोंबाडयाची दोरी मेकळी सोडून तो हालोवंक लागलें. हें सगळें अरूच्यान सोसूंक नज जालें. ताणें झोंपय मारून निशाल्या हातांतलो बोंबाडो घेतलो आनी तो घेवन आपूण खेळूंक लागलो.

निशान म्हळें, "अरू, दी म्हजो बोंबाडो! पळे अरू, दी!"

पुण अरूण निशाकडेन पळोवंक लेगीत तयार नासलो. तो बोंबाडो घेवन नाचत रावलो. निशान ताज्या हातांतल्यान तो काडून घेवपाचो येत्न केलो. पुण अरूण लांब. निशाले हात थंय कशे पावतले? निशा रडूंक लागलें. तरीय अरून पर्वा केली ना.

रडत-रडत, पांय आपटीत निशा आई म्हऱ्यांत वचूंक गेलें.

"बरें बाये, घे तुजो बोंबाडो." अरुणान म्हळें. निशान हात फुडें काडलो. पुण ताज्या हाताक बोंबाडो लावन अरूणान तो वयर सोडून दिलो. आनी "कुय. . .कुय. . ." करीत तो त्या उडटया बोंबाडया फाट-ल्यान धांवलो.

आतां मात निशाच्यान रावं नज जालें. व्हडाव्हडान रडत तें घरांत गेलें. आई आनी बाय (तागेली व्हडली भैण) रांदचे कुडींत आशिल्लीं. रांदचे-कुडिच्या हुमऱ्या-म्हऱ्यांत येवन आईन ताका विचाल्लें, "कितें जालें गो निशालें?"

निशान जाप दिली ना. तें थंयच रडत उबें रावलें. आई ताज्या म्हऱ्यांत गेली आनी ताका तिणें म्हऱ्यांत घेतलें. मागीर मात हुडके दीत-दीत निशान सांगलें, "अरू म्हाका कुय. .कुय करता."

आई हांसली, "तो कुय. .कुय करता आनी तूं रडटा? सामकें पिशें मगो तूं!"

आपले भोंवतणचो आईलो हात निशान सोडोवन घेतलो आनी परत व्हडाव्हडान रडत तें जमनीर लोळूंक लागलें. ताका दिसलें, आई आज अरूचीच कूस घेता.

आईन ताका हाण्डीर उबाल्लें. पुण निशा पांय झाडूंक लागलें. "कितें जालें?" भायर येत बायेन विचाल्लें. पुण ताका जाप दिना

आसतना आईन निशाली पापी घेतली आनी म्हळें, "तूं पिशें न्हय.. हांवें मस्करी केल्ली. अरू तुका कुय..कुय म्हणटा न्हय? राव, बाबाक घरा येवं दी. ताका वोतांत घर बांदून दिवंक सांगतां. पळे, आतां ओगी राव, शाणें म्हजें तें....निशा! ओगी राव चल, तुका सकाळीं बोंबाडो घेवन दिल्लो न्हय, तो घे आनी खेळ."

बोंबाडयाचें नांव आयकना फुडें निशाक आपल्या बोंबाडयाची याद जाली. हुडके दीत-दीत ताणें म्हळें, "आई, म्हजो बोंबाडो मगे, अरू घेवन गेला."

"ताजो खंय तर?" बायेन विचाल्लें.

"ताणें फोडलो."

"तर तुमी दोगांय त्या बोंबाडयान खेळात," आईन म्हळें.

"तो म्हाका खेळयना. एकलोच खेळटा."

"खेळयतलो, चल तूं. हांव सांगतां ताका." आईन निशाक समजायलें.

पुण निशा थंयच उबें रावलें. भायर गेलें ना. ताका जाय आशिल्लें आईन अरूक आपोवन ताजो कान पिळिल्लो.

"अरू!" आईन उलो माल्लो, "ए अरू!"

"ओ...! कितें?" भायल्यानच अरून जाप दिली.

"अरू, निशाबराबर खेळ, ताका रडोवं नाका."

"हांव खंय रडयतां, आई?"

"बरें तर. हें पळे निशा येता, ताजे बरोबर खेळ...चल निशा." दोळे पुशीत निशा भायर आयलें. अरूणान बोंबाडो ताज्या आंगार उडोवन म्हळें, "घे तुजो बोंबाडो. खा. व्हडलें आयलां, आईकडेन करंदाय करूंक गेल्लें! आतां म्हजे कडेन उलोवं नाका. चल...."

हातांत बोंबाडो घेवन गुन्यांवकार कशें निशा उबें रावलें. मोटया प्रयासान ताणें विचाल्लें, "तुवें म्हगेलो बोंबाडो व्हेल्लो कित्याक तर..?"

जाप दिवंक अरू तोंड उकतें करूंक सोदतालो, इतले म्हणसर

ताजी नदर महेशाचेर पडली. निशाक थंयच सोडून तो महेशाम्हऱ्यांत गेलो, "महेश. . .महेश!"

महेशय धांवत आयलो.

"चल महेश, आमी खेळुंया. . .गड्डयांनीं."

मिलां खणलीं आनी अरूण आनी महेश गड्डयांनी खेळूंक लागले. निशा दोन मिनटां आपलो बोंबाडो घेवन खेळ्ळें. पुण एकलें तें कितलो वेळ खेळटलें. . . .आनी तेंय बी लागींच अरू आनी महेश खेळटा आसतना. . . .? तें तांच्या म्हऱ्यांत वचून उबें रावलें. पुण तांणी ताजी पर्वाय केली ना. एक दाव सोंपलो. निशान अरूणाक विचाल्लें, "अरू, हांव खेळूंक येवं?"

"नाका. . .नाका, आमी दोगूच खेळटले!" अरूणान जाप दिली.

निशाक कितें येवजलें देव जाणा. "घे अरू, बोंबाडो घे!" निशान म्हळें.

"नाका, चाडयो करतल्याबरोबर आमी खेळनात."

निशाक ही जाप झोंबली. कांय वेळमेरेन मोन्यांनी उबें रावल्या उपरांत तें परत आपलो बोंबाडो घेवन खेळूंक लागलें. मुखावेल्या वारांदांत मीरा उबें आशिल्लें. निशान आपलो बोंबाडो मीराक दाखयलो आनी म्हळें, "मीरा, यो आमी खेळुंया.!"

मीरा आयलें. निशान आपलो बोंबाडो वयर सोडलो आनी म्हळें, "पळे, कितलो वयर वता."

मीरा आनी निशा दोगांय बोंबाडो धरूंक धांवलीं. अरूणान हें पळेलें मात्, ताणें मीराक उलो माल्लो, "मीरा, येता खेळूंक?"

"नाका वचूंक तूं मीरा. आमी खेळुंया." निशान म्हळें.

"पळे मीरा," अरुणान परत म्हळें, "येना मगो तूं? तशें जाल्यार कुट्टी करतां आं!"

मीरान हातांत आयिल्लो बोंबाडो थंयच सोडलो आनी तें धांवत अरूसरीं गेलें.

निशाच्यान आतां मात् रावंक नज जालें. दुकांचो दर्या तागेल्या माणकुल्या दोळयांत दाटून आयलो. सोसूंक नज जावन "अं. . . ." अशी किळच मारून, आंगाच्याचें पोंत तोंडांत धरून, रडत-रडत निशा रांदचेकुडींत आयलें आनी आईचो पदर धरून ताणें म्हळें, "चल आई, आमी मामागेर या. अरू वा...य...ट."

आऔ कामांत आशिल्ली. शिताक खतखतो आयिल्लो. "या बाये आं, या." तिणें म्हळें.

निशालें रडप तितल्यान थांबलें. "चल मगे या तर... आनी पळे, आमी दोगांच वचप... अरूक व्हरप ना. थंय हांव सुमनाबरोबर खेळटलें... हांव बावली घेवं गे ?"

आऔन थालयेक भाणशिरें बांदिल्लें. तिणें दाव्या हातान निशाक कुशीक धुकल्लें आनी तपलें उमथें केलें.

निशाक अपमान जालो–सो दिसलो. ताणें रोखडेंच जमनीर लोळण घेतलें आनी तें रडूंक लागलें.

शीत वाळून आऔन ताका उबाल्लें, वेंगांत घेतलें, समजायलें..पुण निशा ओगी रावलें ना...आऔक कांय समजलेंच ना. निमाणेकडेन तिणें ताका माल्लें...आनी जाणात तुमी ? निशा रडपाचें थांबलें आनी दोळे पोशेत पोशेत माळयेर वचून बसलें...

(१९६३)

# विसंगत

जेजूविशीं एक काणी आयकल्ली—

कालमेरेन जेजूचो भक्त आशिल्लो एक मनीस, आज जेजूचेर अवचित तोंडसुख घेवंक लागिल्लो. तागेलें जाल्लें कितें, हें मात कोणाकूच समजलें ना. एकल्यान एक दीस ताका विचाल्लें, "आरे, तुगेलें घडलां तरी कितें ? असो अकस्मात तूं जेजूचो दुस्मान कसो जालो ?"

मात्सो वेळ येवजून ताणें आपल्या इश्टाल्या प्रस्नाक जाप दिली—

"तसो हांव ताजो दुस्मान न्हय. तो एक व्हड पुण्यात्मो, हातूंत इल्लोय दुबाव ना. तागेल्या दिव्य स्पर्शानच वर्सांचीं वर्सां हातुणार वळवळटे वायटकार बरे जावंक पावतात. आयकल्ल्यो गजाली न्हय ह्यो. हांवें म्हज्या दोळ्यांनीं पळेलां..."

"मागीर जेजूचेर तूं असो कसता तो कित्याक ?"

"...तागेले सेरमांव हांवें आयकल्यात. तागेल्या आवाजांत दोंगरांतले झरीची गती आनी नाद आसा. ताज्या तोंडचीं उतरां कानांतल्यान बद्द काळजांत पावतात आनी काळीज विरगळूंक लागता, दोळे ओले जावन येतात. तागेलो सेरमांव आयकून, हांवें संवसाराच्या जंवजाळांतल्यान मेकळो जावपाचें जायते फावटी तकलेंत हाडलां. तागेल्या पावन मार्गान आपणेंय चलचें असें म्हाका दिसूंक लागलां. आनी एक दीस तर म्हगेले विरक्तीचे घुंवळींत हांवें म्हगेल्या धाकल्या भावाक सांगिल्लें, "पिशा, जें तुजेलागीं आसा तें गरीब-दुबळ्यांक वांट आनी ताज्या फाटल्यान चलूंक लाग. थंयच आनंद मेळटलो. मुक्तीय तोच दितलो."

"आगा, तूं जाग्यार आसा मू ?...तूं जेजूचेर कसता कित्याक काय म्हणून विचाल्ल्यार तूं ताजीं स्तोत्रां गावंक लागलो."

"कितें करूं ? हो मनीसच असलो. ....तो गरीबाक ओखद-विर्सद दिता. वायटांतल्या वायट वायटपणांतल्यान बरो करता. पुण ताणें पांच उंड्यांचो चमत्कार करून दाखयलो तेन्नाच्यान आमचे जातीचेर ताणें अन्याय करूंक सुरवात केल्या. आमची वाट लावंक तो सोदता, अशें दिसता."

"कितें बडबडटा रे तूं ? तो साधुमनीस तुमची वाट लावंक सोदता?"

"हांव फट सांगिना. मात्सो गांवांत वचून पळे. गांवांतले आमचे सगळे लोक ताज्या नांवान गजाल मारतात."

"पुण हें अशें जालेंच कशें ? तागेले भक्त ताजे दुस्मान जावंक कशे पावले?"

"सांगतां. एक दीस आपल्या शिश्यांवांगडा हो मनीस दोंगरवाड्या-वेल्यान वतालो. ताज्या फाटल्यान जायतो लोक चलतालो. थोडो वेळ चलून गेल्या उपरांत सांजवेळ जाली. तेन्ना कांय लोकांनीं ताका सांगलें, 'आतां मुखार आसा तें रेंवाट वाळवंट. वाळवंटांत रात जातली. सगल्या लोकाक पुरो इतलें खाण आनी उदक आमी बरोबर घेवंक ना. तेन्ना आतां आमी हांगाच लागशिल्ल्या गांवांत जेवपाची तजवीज करून घेवंया.' पुण हाजेर ताणें कितें म्हळें खबर आसा ?"

"कितें ?"

"ताणें सांगलें, 'खंयच वचचेली गरज ना. जितलें तुमचेकडेन आसा तें सगळ्यांक वांटून दियात.' तेन्ना शिश्य गडबडले. तांणीं सांगलें, 'तें कशें करुं येत ? आमचेकडेन आसात फक्कत पांच उंडे आनी दोन नुस्त्याचे नग.' इतलें आयकून घेतल्या उप्रांत त्या मनशान ते उंडे आनी तें नुस्तें मागोवन घेतलें. आनी आपले हात मळबावर्शीन व्हेले.

"उपरांत ताणें नुस्त्यांत उंडे भरसून लोकांक वाडले. शेंकड्यांनीं लोकांलीं पोटां भल्लीं.... आतां तूंच सांग, जर पांच उंडे आनी दोन नग

शेंकड्यांनीं लोकांक तो पावोंवंक लागलो जाल्यार आमचें पोट कशें भरतलें ?"

"तूं त्या जोम्यांत आसलो काय कितें ? तूं उपाशीं उल्लो ?"

"नारे ! हांव पोदेर ! ! आतां तूंच सांग...! ...आतां हो मनीस पर्थून जर जेरुसलेमाक आयलो जाल्यार बोब मारून हांव म्हणटलों, हाका खुरसार चडयात ! हो पोदेरांचो दुस्मान ! !"

☆ ☆ ☆

हे काणयेचो उगडास आयज आयलो.

दिल्लींत जून म्हयनो म्हळ्यार कामाराली भट्टी. हूम येना. वारो येता हुनहुनीत वाफ कसो. सगळो जीव कासावीस जाता. घरांत दारां-जनेलां बंद करून पंख्यासकल बसल्यार मात्शें बरें दिसता. पूण वाफेंत उक-डटें कणंग कशें शिजता आसत ताजी कल्पना येता. दनपारचें घराभायर पावल दवरपाची तर माणसुकीच ना. दोन पावलां चलनाफुडें वतान लागता तकली कणकणूंक आनी आंग लागता चरचरूंक. कावळे लेगीत ह्या वताक भियेतात. मागीर मनशांली कितें गजाल !

जाल्यारूय काम-धंदो बंद उरता व्हय ?

दनपारच्या तीन वरांचो सुमार आशिल्लो. आनी एका गरजेच्या कामाखातीर म्हाका भायर वचचेलें आशिल्लें. हांवें लेंस उदकान भिजयलो आनी तो माथ्यार घेवन हांव भायर सल्लों. दोन मिनटांचे वाटेवेल्या बसीच्या स्टॉपार पावंक म्हाका सात मिनटां लागलीं. त्या आदींच लेंस सुकून खरखरीत जाल्लो.

स्टॉपाचेर जायतो लोक वतांत सांपडिल्लो गांयडोळ कसो उळ-उळटालो. झाडांचे सांवळेक रावले म्हणून राखण जाता ? वाफ कसो वारो आनी तापिल्लो धुल्ल एकसारको आंगार धांवन येतालो. हांवय ह्या गांयडोळांतलोच एक जालों.

दिल्लीक बसी नेमान येनात. आयल्यो जाल्यार ४० जाणांच्या बसींत १४० लोक चिड्डून येतात आनी बसीय भिऱ्यांनी येतात. ना जाल्यार

वरांचीं वरां तांचेखातीर तिश्टूचें पडटा. असल्या स्टॉपांचेर उबाळाच्या दिसांनीं थंड उदक विकपी गाडे आसतात. कोपभर उदकाक दोन नवे पैशे. लोक खूब उदक पिता: ना जाल्यार करतलो तरी कितें ? एकेका गाडेकारालीं दिसाची जोड पांच-स रुपयांमेरेन पावता. आनी आयताराक खंय चड ! पुण आज स्टॉपाचेर एकय गाडो नासलो.

पळेतां पळेतां मुखावेलें कांयच दिसना जालें आनी वत मरून गेलें. कितें जालें हें समजुचे आदींच धुल्लान आमकां घेरले. तीन वरांचो कड आसूनय सूर्याक चंद्रिमाची सया मारूंक लागली. आँधी (धुल्लाचें वादळ) आयिल्ली. खिणभरयांत सगलें शार आमोरेच्या काळखांत पांगरून गेलें. धुल्ल आंगाक रोंबतालो. आनी झाडां मोडटालीं. मुखावेलो मनीस दिश्टी पडनाशिल्लो...आनी एकाएक गरे पडले. दडक आयली. दिल्लींत पावस आयलो !

जून म्हैन्यांत दिल्लींत पावस येवप म्हळयार दिल्लीकारांक ती कितली खोशेची गजाल ! पावस झडटा तो दिसतालो. पुण मार्गार आनी जमनीर तो पावचे पयलींच आटून वतालो. आँधीचो लोट वाटारार हुमकळटालोच. तापिल्ल्या मार्गावेल्यान आटिल्ल्या पावसाच्यो वाफो येवंक आगल्यो. आनी एक नवेंच वातावरण निर्मलें. एक आगळोच वास वाटारार फांकलो. दिल्लीकारांनीं सुटकेचो सुस्कारो सोडलो !

आनी ह्याच वेळार आपलो उदकाचो गाडो धुकलीत धुकलीत एक भुरगो थंय पावलो. आतां आँधीचो नेट देंविल्लो आनी पावसाचो वाडिल्लो. आशेल्ले नदरेन त्या भुरग्यान जोम्यावेल्यान नदर भोंवडायली. पुण कोणें ताजी दखलय घेतली ना. एक बस आयली. आनी जायतो लोक गेलो. अजून म्हजी बस येवंक नाशिल्ली.

"बाबूजी, पानी पियेंगे ?" त्या भुरग्यान म्हाका विचाल्लें.

"बारीशमें पानी कौन पियेगा भला ?" हांवें ताका म्हळें.

"मुफतमें पी लीजिये...कुछ पैसा देनेका है नहीं, बाबूजी." ताणें म्हळें.

मान हालोवन हांवें ना म्हळें.

त्या भुरग्यान एक उस्वाससोडलो आनी म्हळें–"आज मौसम बहुत खराब है। सारे बिजनेसपर पानी गिर गया !"

* * *

ह्यो दोन गजाली. एक १९६३ वर्सा आदली, आनी दुसरी कालचीच. आज देड हजार आनी अदीक वर्सां उलगलीं. आकांताचो, शींव-म्हेर नाशिल्लो संवसार घोंटेरावरी ल्हान जावंक पावलो. अण्वीक शक्तीचेर चींत दिवंक लागलो. ग्रहांचेर वचपाच्यो गजाली करूंक लागलो. पुण one man's meat is another man's poison ही म्हणणी फट करूंक मात पावलो ना. कित्याक ?

(१९६३)

१०

# रातीं वेळार

"बाय घोवागेर गेलें. हांव शाळेंत गेल्लों तेन्ना." सगळे अशें सांगतात.

"म्हाका कित्याक आपयलो ना ? बाय सामकें फटींग !" हांवें आवीक म्हळें.

आवी ताका सद्दां उठून म्हणटाली, "व्हडलें जातकच तुका घोवागेर वचचें पडटलें."

पुण बाय सदांच म्हणटालें, "हांव भो वचूंक आयलां !"

आनी खऱ्यांनीं घोवागेर गेलें !

फटींग !

गेलें, बरे जालें ! आतां हांव नासतना कशें रावतलें ? दोन दिसांभीतर धांवन परत आयलें ना जाल्यार हांव ताजो भावच-न्हय. मागीर दाखयतां हांव ताका...

☆ ☆ ☆

कांय दीस गेले, हांवें आवीक सांगलें,

"हांव बायेल्या घोवागेर वतां. म्हाका ताजी याद येता."

आवीन कांयच म्हळें ना. तोंड फिरायलें आनी रांदचे–कुडींत वचूंक गेली.

हांव तिज्या फाटल्यान धांवन रांदचे–कुडींत गेलों, तिगेल्या कापडाक धल्लें, "बायेक आपय तर. म्हाका ताजी याद येता."

आवीन हुडको दिलो. पदर दोळ्यांक लायलो. आवी रडटाली. तिकाय बाबडेक उगडास आयलो जातलो. हांवें म्हळें, "तुकाय याद येता मगे ? मागीर चल, बाबाक सांग घेवन यो."

"तें येवचें ना रे म्हज्या पुता. तें रागान गेलां."

समजलें ! धमकायलें, माल्लें आसतलें. ताका खंय वचपाचें आशिल्लें घोवागेर ! म्हळें, "हांव घेवन येवूं ?"

"आतां ओगी बस पळोवया." आऔी धेंकसली. कापड सोडोवन घेवन कुशीक सल्ली.

त्या दिसा हांव उलयलों ना. जेवंक आपयलो. गेलों ना. तरी तिगेलो राग न्हिवलों ना.

सांजचो हांव खेळूंक गेलों. सतीशागेर लाडू दिलो. तो खालो. घरा आयलों, आऔीन जेवंक आपयलो. "ना" म्हळें आनी न्हिदूंक गेलों.

न्हिदिल्लों थंय बाय आयलें. ल्हवूच म्हजी पापी घेतली. म्हाका जाग आयली. परत ताणें पापी घेतली. म्हळें, "उलय मरे !"

तरी हांव उलयलों ना. बळयांच.

सद्दां हांव गाल फुगोवन बसतां. बाय म्हाका हांसोवपाचो येत्न करता. पुण चड वेळ म्हज्यान रावं नज जाता आनी हांव हारतां.

बायेन म्हाका कातकुतल्यो केल्यो. पुण हांव हांसलों ना.

...ताणें गाढवाची किळांच माल्ली. कानांत कोंब्याचो साद घालो. घुघमाचें तोंड केलें. तोंडांत बोटां घालीं. ओंठ ओडले. दोळे परतिले, जीब दाखयली. हांवें दोळे घट्ट धांपून दवरिल्ले. पळेल्लें जाल्यार घडये हांसो फुटत आशिल्लो... हारतलों आशिल्लों. खूब्ब वेळान दोळे उकते कर जाल्यार तें नाच्च जाल्लें.

"फटींग !"

ताका धरूंक धांवलों. सगळयाक काळोख पातळिल्लो. ताका काळखांत भय दिसता. तें आंगणांत तर वचच ना !

आरमारिच्या फाटल्यान नाशिल्लें. हांडयाफाटल्यान नाशिल्लें. कुलच्यांवाच्या कवळयांतूय नाशिल्लें. रांदचे–कुडींत तें वचचें ना. तरी पळोवन आयलों. थंय आशिल्लें माजर. गोरें पिट्ट–दुदाभाशेन. हुंदराक मेळूंक आयिल्लें दिसता. म्हाका पळोवन जनेलांतल्यात उडी मारून गेलें.

बायेले दोळे घारशे...माजराभाशेन. ताका हांव "बिलू" म्हणून चाळयतालों. खूब्ब राग येतालो. ताका जादू करूंक येतालो. म्हाका केन्नाच शिकयना आशिल्लें. तेंच बिलू जालें ना मू ?

आंगणांत काळोख दाट. खूब भय दिसलो. पुण बाय दिसलें ना. खंयच ना !

हारलों हांव ! उलो माल्लो, "बाय ! अे, बाय !!" जाप ना.

राग आयलो. रागान म्हळें, "माजर...बिलू ! बिल...बिल...बिल्लू!"

आंगणांत सपणाकुशीक माजर गोठेल्लें. ल्हवूच गेलों. शेंप धल्ली. पुण तें पसार !

हांवें आर्ऄीक उठयली. तिका सांगल्यार ती म्हणटा, "कोण न्हय. तुका सपन पडलां. चल, ओगी न्हीद."

म्हाका वेंगांत घेवन ती न्हिदली. हांवें हट्ट धल्लो. "न्हिदकुरे, तुका खबर ना. खरेंच तर बाय आयिल्लें. आमी आपालिपांनी खेळटालीं. खंय लिपलां खबर ना. सोदून दी."

काकुळटेक येवन हांवें म्हळें, "सोदून दी मगे आर्ऄी ! सांगतां तें आयकतां. ताका चाळयना."

आर्ऄी कांय उलयली ना. रडूंक लागली. मागीर म्हजे फाटीवेल्यान हात भोंवडावन थापटूंक लागली.

म्हाकाय न्हीद येवंक लागली. मनांत म्हळें सकाळ ज़ावं दी. फांती ओडून किळच्यो मारूंक लायना जाल्यार पळे...

  

हांव उठलों. तें बांयचेर गेल्लें आसतलें. तें सकाळभर बांयचेरच आसता..म्हन्यांत गेल्यार म्हज्या आंगार उदक शिपडायता.

बांयचेर तें ना, रांदचे-कुडींत ना, मान्न्यांत, वासरेंत, आंगणांत, पोरसांत—खंयच ना. मागीर खंय गेलें तर तें ? परत घोवागेर गेलें ? फक्कत म्हाकाच मेळूंक आयिल्लें ? हांव जाणाच, म्हजे बगर ताजें कशें जातलें ?

हांवें आऔीक सांगलें. तिणें जाप दिलीः ना. आऔीले दोळे—तांबडे गुंज ! हांव भियेवन थंड.

हांव दूद पिलों. खेळूंक गेलों. सतीशाक खबर सांगली. सतीश मात्सो व्हडलो. पुण म्हाका मारिना. तो म्हणूंक लागलो, "बाय घोवागेर वचूंक ना. मेलें !"

सामको पिसो ! तो दामू मेला, म्हातारी मावशी मेल्या. तीं परत आनीक दिश्टी पडल्यांत ?

"चल्ल." हांवें म्हळें, "मेल्ले मनीस परत येनात. बाय रातीं आयिल्लें. सगळयांक खबर आसा. आऔीक विचार."

"खरेंच ?" सतीशान किळच माल्ली आनी मागीर म्हज्या कानांत फुतफुतलो, "खरें मरे ? तशें जाल्यार तें भूत !"

"भूत ? कोण भूत ?"

"खबर ना तुका ?"

त्या उपरांत सतीशान जायत्यो खबरी सांगल्यो भुतांच्यो. भुताचे पांय खंय उरफाटे. भूत पळेल्यार सगळे जाण भियेतात.

रातीकडेन आऔीक विचाल्लें, "आई बाय मेलें गे ?"

आऔीन म्हळें, "हय."

"हय ! जाल्यार सांगलेंना कित्याक ? घोवागेर गेलां म्हणून फटयता ! चल्ल. उलयना तुजेकडेन हांव !"

पुण न्हीद आयली ना. भूत येत बीत म्हणपाचो भय दिसतालो. पांघरूण घेतल्यारय भय, घेतलें ना तरीय भय. दांत कडकडूंक लागले ! आऔीक घट वेंग माल्ली...

☆ ☆ ☆

पोरसांत शेंवतीं फुल्लीं.

माजर वियेलें. सात पिलां काडलीं. सुंदर. गुबगुबीत. बायेची याद आयली. रडचें अशें दिसूंक लागलें. सगळेच ताजी याद काडून चुरचुरताले.

...आनी रातीकडेन बायेचें भूत परत आयलें. भूत रातीकडेनच येता. काळखांत रडटालें. म्हाका विचाल्लें, "म्हाका विसल्लो मरे ?"

हांव निखालस भियेलों ना. खूश जालों. हांवें म्हळें, "विसल्लें तूं. सांग पळोवया तूं मेलें कित्याक ?"

ताका हुडको फुटलो. जाप दिली ना. रडतच रावलें.

हांवें ताका सांसपिलें. म्हळें, "जावं. मेल्यार मरूं. म्हाका मेळूंक आयलें मगो? आयली मगो तुका म्हजी याद? आतां बस. सांग, तूं सद्दां कित्याक येना?"

रडटां रडटां तें हांसलें. ताणें म्हळें, "सद्दां येतां. तुज्यान तर."

म्हज्या हातार हात मारून ताणें उत्तर दिलें. ताळी वाजिल्ल्याचो आवाज आयलो. तें भियेलें. भियेवंक कित्याक जाय आशिल्लें? तें माजर रांदचे कुडींत दुदाचो तोप चाटतालें. "भियेनाका. बिलू तें." हांवें म्हळें.

पुण बाय नाच्चं जालें.

हांव उठलों ना. भुताची फाट म्हज्यान धरूंक नज. आंईक हांवें ही खबर सांगलीच ना. तिका राग येता.

सतीशाक सगळी खबर सांगली.

"तशें जाल्यार तें सपन." ताणें म्हळें.

पिसो रे, पिसो! पयलीं म्हणटालो भूत. . .आतां सपन खंय!

हांवें ताका विचाल्लें, "सपन म्हळ्यार कितें?"

तो हांसलो. पिशांभाशेन. ताजें ताकाच खबर ना. बडाय मात व्हडली!

करूं कितें?

हांव जसोजसो व्हडलो जातां तसोतसो सतीशय व्हडलो जाता. सतीशापरस व्हडलो कसो जावप ?—

रात जावंदी. बायेकच विचारतलों, "सपन म्हळ्यार कितें? म्हाका सांग पळोवया. ल्हवूच कानांत सांग आं. ना जाल्यार कोणय आयकत!"

(१९६४)

११

# कांकणकारालो चेडो

"पांडू," बापायन उलो माल्लो, "हीं कांकणां घेवन व्हडल्या घरांत वच."

पांडूक अजाप जालें. हें असले तरेचें, कांकणकारालें काम ताका बापायन पयलेच खेपे सांगिल्लें. पांडूक ह्या आपल्या घरच्या धंद्याची मनापसून लज दिसताली. पुण बापायक ना म्हणपाची हिंमत ताज्यांत नाशिल्ली.

तोंडान कांय एक उलयनासना पांडू पडवेर बापायच्या म्हऱ्यांत गेलो आनी दोरयेक गुंथलेलीं कांकणां घेवन भितल्ले कुडींत आयलो

तीन वेळ एस. एस. सी. ची वारी करुनूय 'वन्स मोअर' घेवन आयिल्ल्याचें हें पिराचित म्हणपाचें वळखूंक पांडूक कळाव लागलो ना. मनांतल्या मनांत पांडून म्हळें, "ही जाली आतां गणेसपूजा ! आतां इश्कोल ना आनी पुस्तकांय नात. आतां खांदार कांकणाच्यो हारी आनी तोंडान— 'कांकणां.. कांकणां' हो जप."

दोन अक्षरांची वळख जाल्ल्यान घरचो हो उणाक धंदो करप आपणाक तरी सोबचें ना, अशें अजुनूय ताका दिस. त्यापरस खंयूय मिनाचे खणीर मास्तराची नोकरी ताका सहज मेळत आशिल्ली. पुण बापायच्या मुखार हो प्रस्ताव दवरतलो कोण?

दोन दिसांआदींच ताणें आपले आवयक विचारिल्लें, "आई, अंदू खंयूय नोकरी केल्यार कशी?" त्यावेळार "म्हाका रान्नी पोल्लांत बसतलेक तें तुमचें कितें समजता ?" म्हणून तिणें पांडूली इत्सा हेवटच्या कानार घाल्ली. तेन्ना उसळून बापायन म्हणिल्लें, "एक एदीशी परीक्षा दिवंक नज! आनी नोकरी करतलो खंय, नोकरी ! नोकरीच करतलो

जाल्यार घरच्या ह्या कांकणकाराच्या धंद्याक कितें चुट्टी पेटल्या?"

हातांत कांकणाची दोरी धरून उब्याउब्यांनीं पांडून ह्या प्रसंगाचो उगडास काडलो. व्हडल्या घरांत गेले बगर गत्यंतर ना हें ताणें पळेलें. व्हडल्या घरचें, वामनबाबालें, सुमन ताज्याच वर्गांत शिकतालें. पोरूं पास जाल्लें तें एस. एस्. सी. ताज्या मुखार कांकणकार जावन वचपाची कल्पनाच पांडूक सोसना जाली. पुण करतलो कितें? कांकणकाराल्या कुळांत जल्म मेळिल्लो न्हय!

ल्हानपणांत शाळेंत पुस्तकां घालून व्हरतालो तें पत्र्याचें बॅग ताणें रिकामें केलें आनी एका बोंदरान पुसलें. मागीर दोरयेचीं कांकणां कागदाक गुठलावन ताणें त्या बॅगांत दवल्लीं आनी ताकतिकेन तो व्हडल्या घरांत वचूंक गेलो.

☆ ☆ ☆

वामनबाब भायर आंगणांत वालो न्हेसून शाणू म्हाल्याच्या फुडयांत बशिल्लो. आनी शाणू म्हाल्यालो मूठ नाशिल्लो वाखर ताच्या खाडार खरखरतालो. पुण वामनबाबाचें लक्ष थंय नाशिल्लें. ताज्या हातांत एक फुटको हारसो आशिल्लो आनी तातूंत तो आपलो तोंडावळो नियाळतालो.नाय जाल्यार तें सभाविकच आशिल्लें. कारण पर्थून ताज्या हातांत हारसो येवंक आनीक एक म्हैनो आशिल्लो. वामनबाबाल्या हातांत हारसो येता तो म्हयन्याचे हजामती वेळारूच!

उजव्या गालाचेर खाडाचो एक केंस खुंटो कसो आशिल्लो. सांसपितां सांसपितां वामनबाबालो हात त्या केंसाक लागलो.

"हो पळे शाणू," ताणें शाणूक तो खुंटो दाखयलो आनी शाणूलें काम सोपें जावचें म्हणून आपली नदर दावेवटच्यान घुंवडायली. ती थेट वचून पडली पांडूचेर !

"कोण थंय?" शाणू म्हाल्याच्या हातांत दिल्लो गाल सोडयना-सतनाच वामनबाबान विचाल्लें.

"कांकणकार." मात्सो लागीं येवन मोटया प्रयासान पांडून जाप दिली.

"कांकणकार?" वामनबाबान म्हळें, "सोनालो चेडो दिसता. हडप कशें बॅग घेवन येतकूच तुका वळखप तरी कसो बाबा?...उबो कित्याक? बस."

पांडून बॅग सकल दवल्लें आनी थंय बसलो.

परत एक वेळ हारशांत पळेता आसतना एकदम आपलें तोंड भितल्ले वटच्यान व्हरून ताणें उलो माल्लो, "ए...सुमऽऽन! आसा हय गो घरांत....?"

पांडून आपली तकली सकला घाली.

कोणूच भायर आयलो ना. वा सादूय मेळ्ळो ना.

"खंय सानोडेक पडल्यांत देवाक खबर!" अशें ओंठांतल्या ओंठांत बडबडत वामनबाबान परत व्हडान उलो माल्लो, "आगे...आयकलां? कांकणकार आयला, कांकणकार."

आनीक परत पांडूक लेखून ताणें म्हळें, "येतली आतां, बस."

इतले म्हणसर घरांतल्यान आकांत आयकूंक आयलो.

"कसली करंदाय!" वामनबाब आडुलो, "आगे, जालां तरी कितें? कसलो बोबाळ हो?"

शाणू म्हाल्यान वाखर बंद केलो. पांडू सडसडीत उठून उबो रावलो. पुण वामनबाबान आपल्या हातांतलें हारशेकट्टर मात सकल दवल्लें ना.

इतल्यांत एक बुकलो वामनबाबाक घश्टून पसार जालो. आनी ताजे फाटोफाट आपलो मेकळो सुटिल्लो देह सांबाळीत-सांबाळीत मावशी-बाय भायर आयली.

"मात्शीं मान्न्यांत गेल्लीं मात्...! सगळो कुडकोच घेवन गेलो न्हय हो बुकलो! उंवाळून घाल्लो कित्याक येता देव जाणा!" मावशी-बाय बडबडटाली.

"आनीक कित्याक येतलो?" हारशांतली नदर भायर काडिना-सतनाच वामनबाब उलोवंक लागलो, "मावशीबाय नुस्तें उजरायतली आनी आपूण एक नग उबारतलों म्हणून!...वानाचो रगडो उखल-तासर मागीलदारचो बुकलो फुडल्या दारांत पावतलो!"

आनी वामनबाब हांसलो.

"कळटा म्हाका असली भास आं! थोडो न्हय, तीस वर्सां संवसार केला हांवें! आतांच मोटीं जाल्यां अशें न्हय! समजलें?" मावशीबाय पिट्ठळ्ळी.

"बरें...बरें. ती खबर सोड आतां...हो पळे तासभर जालो कांकणकार येवन बसला."

"म्हाका कशें कळप तो आयला म्हणून? हांव आशिल्लीं न्हय रान्नीपोल्लांत! म्हाका दुसरीं कामां नात काय कितें?"

"सुमन खंय गेलां तर?"

"ती कावळ्या आवय म्हणून तुमचीच धूव. गोबराचो लेगीत घरांत आदार ना.." मावशीबाय भितर गेली. पांडूक सूऽऽ जालें. "चल. चल भीतर. असो पळेत कितें रावला?" पांडूक लेखून वामनबाबान म्हळें.

बॅग उबारून पांडू भितर वचूंक गेलो. व्हडलें घर म्हणून कितें? एक राजांगण आनी चार कुडी! ह्या घरापरस आनीक व्हडलीं घरां गांवांत जायतीं जालीं. पुण व्हडल्या घराचें नांव बदल्लें ना.

भीतर वासरेंत खांब्याक तेंकून पांडू उबो रावलो.

"सोनालो चेडो मरे तूं? आरे पापया, सांजेच्या मायत्यार आयल्यार जावचें नाशिल्लें? जावं, आयलाच आतां जाल्यार बस...रांदन सारून येतां."

पांडू थंय बसलो. खिणभरयांत मुसळ कशे पांय वाजयत मावशीबाय आयली. दोनूय खांदांवेल्यान पदर गच्च आंवळून घेवन तिणें पांडू सामखार बसका माल्ली. पिकिल्लो पणस झडिल्याचो आवाज आयलो आनी पांडू गडबडलो. आयुश्यांत पयलेच खेपे तो अेके परकी बायलेच्या म्हर्‍यांत बसतालो. आपणांक सांवरून घेवपाची तो तयारी करतालो अितले म्हणसर मावशीबायन आपलो हात ताज्या नाका म्हर्‍यांत धरून आपलें तोंड फाटलेवशीन घुंवडायलें.

पांडू हुमेन थबथबून आयलो. जळते मेणवातिचे थेंबे कशे ताज्या कपलावेल्यान हुमेचे थेंबे झडूंक लागले. तो हाजी तयारी करून येवंकूच नाशिल्लो. ताका दिशिल्लें बॅगांतली कांकणां मावशीबायचे सुवादीन केलीं म्हणटकूच आपलें काम सोंपलें.

पुण आतां करतलो कितें ? देवाचें नांव मनांतल्या मनांत घेत ताणें अेका हातान मावशीबायल्या हातांतलीं पोरनीं कांकणां देंवयलीं आनी दुसऱ्या हातान बरोबर हाडिल्लें बॅग उकतें केलें...पुण बॅगांत नदर घालचे पयलींच पांडूले दोळे वरशे जाले...

बॅगांत आशिल्ली अेक मोडकी दांतोणी, कळमेल्लो वाखर आनी अेक कातर !

ताका जबर धको बसलो...ताजी विचारशक्त भंगली, वाचा धल्ली आनी सगळें आंगूच धरून पडलें !

अेदो वेळ हात हुमकळत उरिल्ल्यान मावशीबायन नदर वयर काडली...तिजे नदरेक पडलीं हीं भयांकृत हत्यारां...आनी घामाघूम पांडू ! तिणें अकांतून अेदी व्हड किळच माल्ली कि... पांडू भानार आयलो भानी पसार जालो. जिस्त बुकल्यावरी !

(१९६३)

१२

# दिवली

आमच्या शारांतल्या वीजकंपनिची व्यवस्था हालीं बरीच खिळखिळ्ळ्या. सप्तकांतल्यान एक दोनदां तरी लायट गेल्या-बगर रावना. केन्ना थोडीं मिणटां तर कितल्याशाच फावटी वरांचीं वरां शारभर काळोख पातळटा...आनी मागीर म्हाका भितल्ली पितुळची दिवली पेटोवची पडटा. ती पेटयता आसतना म्हाका एके तरेची आत्मशांती मेळटा. हे पोन्ने दिवलेफाटल्यान एक खुब्ब सुखदिणो उगडास आसा...

जायतीं वसां जालीं. अशीच एक फावट लायट इबाडलेली. तेन्ना हांव एका पुर्तुगेज इस्कोलांत प्रोफेसर आशिल्लों आनी आतां रावतां त्याच घरांत रावतालों. तेन्ना म्हाका लायटीक लागून खुबूच त्रास जातालो. कितलेशेच खेपो म्हज्या कुजनेराबराबर, सांताना-बराबर खबरी करता आसतना, ना जाल्यार कसलीय तरी काळीज हालोवन सोडपी काणी रंगार आयिल्ली आसतना लायट वचून मन चिरूस जातालें. जायते दीस सांतान एक्कसारको मेणवाती हाडीत राविल्लो, पुण निमाणें तो वाजेलो आनी रेमेतीचें फेस्त पळोवन येता आसतना ताणें ही दिवली हाडली. पयल्याच दिसा ती म्हज्या मेजार दवरून ताणें म्हळें, "मेणवाती म्हारग जाल्यात. दिवलेचो उजवाडूय चड पडटा, आनीक तो दोळ्यांकूय बरो. देखून हांवें ती हाडल्या. आतां खर्चूय कमी येतलो."

ताणें सदांच ती घासून पुसून चकचकीत दवरची. आपणें वाती वळच्यो आनी मोटे खोसयेन ती पेटोवची. हे दिवलेमुखार रातचो कितलोसोच वेळ—वरांचीं वरां—हांव वाचीत ना जाल्यार बरयत बसतालों.

सांतानाची आनी म्हजी भुरगेपणापसून वळख. आमी एके शाळेंत शिकताले. दोगूय एके क्लासींत आशिल्ले. आमच्या घराकडल्यान उल्याचे वाटेर तो रावतालो. ताणें सकाळचें म्हाका शाळेंत व्हरूंक सदांच येवचें. शाळा सुट्टकूच म्हज्या घराकडल्यान ताका आपशींच येवचें पड. कित्याक तर तागेलें घर आनी शाळा हांचेमदीं म्हजें घर आशिल्लें. सुटयेच्या दिसालेगीत ताणें खेळूंक आमगेर पडून आसचें. म्हज्या घरच्या मनशांकडेनूय ताजी बरीच इश्टागत. फुडें हांव लिसेव शिकूंक पणजे गेलों. आनी म्हजो गांव म्हाका पयसावलो. वर्साक एक फावट, मायाच्या म्हयन्यांत, हांव घरा वतालों, तितलोच. फुडें म्हजो कुर्स सोपोवन नोकरेक हांव ह्या शारांत येतकूच तर गांवाचें आनी म्हजें नातें सामकेंच तुटलें. मदीं सांतान मिनाचे खणीचेर मुकादम राविल्लो. पुण ती हवा ताका बऱ्याक पडना जाली. भोवन भोवन बरो ना जावचो. देखून ताका ती सिर्विसूय सोडची पडली.

एक दीस म्हाका तागेलें एक पत्र आयलें. तातूंत ताणें आपूण बरेच दीस घराकडेन बेकार आसां म्हणपाचें बरयल्लें आनी आपल्याक खंयूय एक सिर्विस पळे म्हणून मागिल्लें. पत्र वाचून म्हाका चुरचुरे पडलें. पुण सिर्विसूय म्हज्या होलमाक नाशिल्ली. हांवें ताका बरयलें, "हांगा यो. म्हजेंबरोबर रावपा जेवपाची सोय करतां. सिर्विसेचें फुडें पळोवं येत."

आनी दुसऱ्याच सप्तकांत तो म्हजेसरीं आयलो. हांव एके खाणावळींतल्यान डबो मागयतालों, तेच खाणावळींतल्यान ताजे खातीर डबो हाडूंक लागलों. दोन दीस तो मोन्यानीं जेवलो. पुण तिसऱ्या दिसा ताज्यान सामकें रावं नज जालें. तो म्हणूंक लागलो, "फायच्यान तुमी खाणावळींतलें जेवण बंद करात. खाणीचेर आसतना हांव रांदूंक शिकलांच. आनी तुमी एका डब्याक जितले पैशे दितात, तितलेभितर आमच्या दोगांचेंय जेवण जातलें."

"कित्याक जाय हे जवंजाळ ? चलुं दी चल्लां तशेंच !" हांवें म्हळें.

दुसऱ्याच दिसा ताणें म्हाका विचाल्लें, "म्हाका एक पन्नास रुपया मेळतीत व्हय ?"

दोन चार दीस आदींच म्हाका पगार पडिल्लो. बोल्सांत पैशेय आशिल्ले. ताका पैशे कित्याक जाय म्हणपाची चौकशी करीनासतना हांवें ताका पन्नास रुपया दिले. रातचो जेवता आसतना म्हाका निमाणें कितें म्हणपाचें समजलें. चकासूर जावन हांव पळोवंक लागतकूच तो ताकतिकेन सांगूंक लागलो, "आयच्यान जेवणाची सगळी मांडणी हांव करतलों. खर्च कितलो आनी कसोकसो करचो तेंय बरोवन तयार केलां. दोगांकूय सुमार साठ रुपया दर म्हयन्याक खर्च येतलो. ह्या पयल्या म्हयन्याक मात मातसो चड खर्च येतलो."

तो आग्रो करुकरून म्हाका वाडटालो. जेवणूय झकास जाल्लें. हांवेंय ताज्या रांदपाची तोखणाय केली.

म्हजी जीण मेकळी, धरबंध नाशिल्ली आनी हेवटेन तेवटेन शिंपडलेलेवरी चलताली. तो ती ल्हवूल्हवू जाग्यार हाडूंक लागलो. म्हजी मुस्तायकी, कूड, पुस्तकां ही सगल्या वस्तूंची तो मोटे उमेदीन काळजी घेतालो. तो म्हजी सिर्विस करतालो खरो, पुण हांव ताचेकडेन मित्राच्या मानान आनी मोगानूय वागतालों.

एक फावट सुवादीक जेवण रुचीन जेवता आसतना आनी खबरी करपांत गुल्ल आल्लों आसतना मदींच लायट गेली आनी दुसऱ्याच दिसा ताणें ही दिवली हाडली.

मागीर मागीर तो म्हजे जिणेंत अशे तरेन भरसलो कीं आमकां एकमेकांचीं सगळीं गुपितां कळ्ळीं. ताणें म्हाका एक्कसारकें विचारचें, "तुमी लग्न कित्याक करिनात? घर पळेयात कशें उकतें उकतें दिसता!"

हांव हांशार व्हरून विसरायेर घालतालों.

तेन्ना म्हजेर बरेच शिकपी चले, चलयो आनी शिकोवपी बायलो लेगीत येताल्यो. अशेच एके शिकयतलेकडेन म्हजी इश्टागत आशिल्ली आनी ती परत परत म्हजेकडेन येताली.

म्हजो मित्र--सांतान--म्हजेकडेन ज्यो वाडिल्ल्यो चलयो येताल्यो, त्या सगळ्यांची वळख करून घेवंक लागलो. दर एके बायले संबंदान म्हजें मानस कितें आसा म्हणपाचें समजून घेतालो. आनी हांवें कोणाय-संबंदान बरें मत दिलें म्हणटकूच तो विचारी, "हिजेकडेन तुमी लग्न केलें जाल्यार...?" सदांवरी हांशार व्हरून हांव दुसरीच खबर काडटालों.

एक दीस हांव ते शिकयतले बायलेकडेन झांकडी मारीत बसलों आसतना सांतान थंय आयलो. हांवें तिजेकडेन आपली वळख करून दिवची म्हणून तो थंयच घुटमाळटालो. हांवें वळख करून दिली. थोड्याच दिसांभितर ताणें तिजेकडेन बरीच इश्टागत जमयली. आनी एक दीस म्हज्याहुजीरच ताणें तिका प्रस्न केलो, "तुमी प्रोफेसर सायबांची जीण जाग्यार घालपाक मजत कित्याक करिनात?"

ताज्या विचारपांतलो हेत लक्षांत घेवन तिणें हांसतच जाप दिली, "म्हजी लेगीत अशीच इत्सा आसा, पुण ताणीं मनार घेवंक नाका?"

ती भायर सरून वतकच हांवें ताका समजायलो. "तूं म्हज्याखातीर इतलो कश्टी कित्याक जाता?...आतां म्हजेकडे लग्न करपाक कोण तयार जातलो? म्हजेकडेन धड शेत-भाट ना वा बांकांत पैशे नात."

म्हजें उलोवप आयकून तो मात्सो उदास जालो आनी अजापलोय बी. रातचो लेगीत तो उदासूच दिसतालो. ताका खुशालभरीत करपाक हांवें म्हळें, "सांतान वच, आज बरें कोप मारून यो. म्हाका लेगीत घेवंक जाय तुजेबराबर."

ते राती ताणें दोन कोपा आनी एक बाटली हाडली. ताणें एका घोटांत अर्दी बाटली सोंपोवन उडयली. आनी मागीर आमी झांकडी मारूंक बसले. कितें रंग आयलो तर खबरीक! मोटश्या नेटार येवन तो म्हणटालो, "तुमी लग्न करात. घरांत भुरगींबाळां खेळूंक लागूं दी. तुमच्या लग्नाची खबर हांव म्हज्या तोंडान तुमच्या घरच्या मनशांक कळयतलों. मागीर आमी व्हनीक बराबर घेवन गांवाक वचुंया... मागीर तूं पापा जातलो. हांव तुज्या भुरग्यांक फाटीर बसयतलों, भुरगीं

म्हड जातकूच शाळेंत पावयतलों. तुमकां आनीक वयनीक कांयच करचें पडचें ना."

निमाणें एक्कसारकी चलिल्ली ही बडबड आळाबंदाक हाडपा-खातीर हांवें म्हळें,

"सांतान आतां न्हीद पळोवया....! तुका कांयच खबर ना. तूं म्हजें नातें जुळोवंक सोदता ते बायलेचें लग्न जालां."

ताजें तोंड दंट तुटिल्ल्या साळकावरी बावलें आनी याण जावन तो कुडीभायर गेलो.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर म्हजेसरीं येवन ताणें क्षमा मागली. तो म्हणूंक लागलो, "चूक जाली. रातीं घुवळींत हांव कितें उलयलों देव जाणा ! म्हजी म्हाकाच सारखी याद जायना. आवयच्यान तर! हांव आतां केन्नाच सोऱ्याक आफुडचों लेगीत ना."

चकासूर जावन हांव ताजेकडेन पळेतच रावलो. त्या दिसाच्यान तो केन्नाच सोऱ्याक आफुडलो ना. आनी म्हज्या लग्नाची खबरूय ताणें केन्नाच परती काडलीना.

फुडें लग्नाच्या म्हुर्ताचे दीस आयले तेन्ना तर तो चडूच उदास दिसूंक लागलो. हांवें ताका खोशी करपाचे जायते प्रयत्न केले, पुण कांयच उपयोग जालो ना. निमाणें एक दीस ताणें म्हजेकडेन रजा मागली. तो म्हणूंक लागलो, "म्हाका म्हज्या गांवांक वचूंक जाय." हांवेंय ताका खोसयेन रजा दिली...

...आनी तो परत आयलोच ना !

...आजूच वर्तमानपत्रांत ते शिकयतले बायलेचो घोव बंदखणींत आसा म्हणपाची खबर वाचली...ती लेगीत बंदखणींत आसा.

आज म्हजे फाटले जिणेंतल्या कितलेशाच खबरींच्या यादींक उमाळे आयले. कारण लायट गेली आनी ही पितुळची दिवली म्हज्या फुडयांत तीप तीप जळटा. थंड आनी बारीक !

(१९५६)

१३

# फुलकान्न

"फुलां, फुलां !" फुलकान्नीलो हो आवाज. गांवच्या मार्गा-कणकणीं, पाळणींनीं हो आवाज घांटीवरी खणखणता. फुलां-वरीच नाजुक !

गांवच्या लोकांले नदरेन ती एक शिरकुली फुलाकान्न. ती सात वर्सांची आशिल्ली तेन्ना धरून लोक तिका पळेत आयल्यात. आनी देखून आतां ती जुवानपणाच्या वसंतांत पावली, तरीकय लोकांले नदरेक मात तीच शिरकुली फुलकान्न.

आनी समजा कोणेंय तिका तिजें नांव विचाल्लें, जाल्यारय ती म्हणटा, "कितें ? म्हाका वळखनात ? हांव ती शिरकुली फुलकान्न."

ही फुलकान्न आनी तिगेलो आजो न्हंयच्या कांठावेल्या, पांचव्या-चार पोरसांतल्या, घोंटेरावरी खोपींत रावतात. म्हाताऱ्यान जीवित-भर कश्ट करून जी चार पैशांची गांठ केल्ली तांतल्यानच ताणें तें पोरसाचें नंदनवन फुलयिल्लें.

पोरसांतली शाकभाजी ताणें केन्नाच विकली ना. घरांत आपले अपुर्बायेचे नातीक लवलवीत बरी शाक तो खावयतालो. भाराच्या दिसांनीं मात उरिल्ली शाक तो गांवच्या आपल्या बरें मागतल्यांच्या घरांनीं न चुकयतां पावयतालो. पुण पोरसांतलीं इतलीं फुलां बावून, करपून झडप हें ताका बरें दिसनाशिल्लें. खंयच्याय तरी देवाच्या गळयांत वा बायलेच्या माथ्यांत तीं पावचीं आनी आपल्या परमळान ताणीं वाठार भारावन उडोवचो अशें ताका मनोमनीं दिसूंक लागलें. आनी आपुण पिकिल्लें पान वाऱ्याच्या झोतान केन्नाय झडत जाल्यार आपल्या फाटल्यान आपले नातीक पेजे-निवळाचो आदार आसचो अशें

येवजून एक दीस ताणें आपले सात वर्साचे नातीक आपोवन हाडली आनी म्हळें, “बाये, हीं फुलां घेवन गांवांत वच आनी विक.”

“विक म्हळ्यार कितें आज्या ?”

“अजून विकप म्हळ्यार खबर ना ! पोरा !” आजो हांसलो, “ही पाटली माथ्यार घेवन ‘फुलां-फुलां’ करीत गांवांतल्या मार्गांनीं वच. जो कोणय मागत ताका दी आनी तो दिता तितले पैशे घे.”

म्हातारो आनीक दुसरे खंयचे भाशेन त्या कंवळ्या भुरग्याक शिकयतलो आसलो ? पुण ते कंवळे तकलेंत समज आयलो. “जाणां, जाणां” म्हणत तिणें पाटली उबाल्ली.

त्या दिसा ती एक रुपया घेवन आयली. आज्याक धन्यताय दिसली. दुसऱ्या दिसा चड फुलां खुडून ताणें तिगेली पाटली भल्ली. त्याय दिसा तिणें एकच रुपया हाडलो. पुण आज्याली प्रसन्नताय अुणावली ना.

अशे भाशेन फुलां विकप हें तिगेलें दिसपट्टें काम जालें. आनी फुलां चड आसूं, थोडीं आसूं तिगेली जोड मात तितलीच उरताली. वाडयावेलीं सोळाय घरां म्हळ्यार तिगेलें गिरायक. जितलीं फुलां आसत तांचे ती सोळा सारके वांटे करताली. आनी केळीच्या चोळख्यांत अच-ळय गुठलावन पुडे बांदताली. फुलां विकूंक वचचे आदीं न्हावन धुवन ती नेमान देवाकुडींतले देवतेक दोन फुलां भक्तिभावान ओंपताली.

ज्या दिसा फुलांची पाटली गळ्यामेरेन लेगीत भरनासली, त्या दिसा फुलकान्नीचें मन कश्टांनीं जड जातालें. गुन्यांवकाराचें तोंड करून ती आपल्या गिरायकाच्या म्हऱ्यांत वताली. पुण तिगेल्या गिरायकाक समज आशिल्लो. तें केन्नाच करंदाय करिनासलें. सदींच्याच हांसत्या मुखान तिगेल्या हातार चार पैशे दवरतालें.

भाराच्या दिसांनीं फुलकान्नींची संख्या वाडटाली. दुस-यो फुलकान्नी बिर्याक पडून चड फुलां दिवपाचें हांयस तिगेल्या गिरायक्क दाखयताल्यो. पुण फुलकान्नीलें गिरायक केन्नाच भुललें ना. तिगेली पाटली भरिल्ली आसूं वा रिकामी आसूं ती तिगेल्या गिरायकाखातीर आसली.

म्हारगायेच्या दिसांनीं दुसरे फुलकार हिगेली पाटली मोलावंक सोदताले; पुण ती पैशांक भुलली ना. ती जतनायेन आपलीं फुलां राखताली तीं आपल्या गिरायकाखातीर. फुलकार आयले आनी गेले. पुण तिगेलें गिरायक तेंच उल्लें.

मुखमुखार तर हें गिरायक आनी ही फुलकान्न हांचेमदीं आप-लेपणाचें नातें निर्मलें. दर वर्सा दिवाळेक तिगेलें गिरायक तिका न्हेसणां दिवंक लागलें. सणासुदीक आनी म्हाळादेवकाऱ्याक फुलकान्नीलें पान हक्काचें जावन बसलें. जे भाशेन देवळांतली घांट संवसाराक सांगता, देवाली दया समस्तांचेर सारकीच आसता, तेचभाशेन आपलीं फुलां हीं सगल्यांखातीर आसतात अशें फुलकान्नीलो साद सांगतालो.

"फुलां, फुलां !" पार्वती मावशेल्या दारांत उबी रावन सदां-भाशेन तिणे साद घालो. सादांत सदींचेंच माधुर्य आसलें. पुण तो साद आयकनाफुडें पार्वतीमावशेली अस्वस्थताय वाडली. हेकडेन साद कानांत पडनाफुडें रांदचेकुडींतल्यान वा मान्न्यांतल्यान धांवत येवपी पार्वतीमाव-शेची आज जाग नासली.

काल सांजवेळां पार्वती आपल्या घरकारावांगडा दिवाळेचीं कापडां घेवंक गेल्ली. आपलीं कापडां घेवन जातकच एक जरी साडी जेन्ना ती मोलावंक लागली तेन्ना घोवान विचाल्लें, "कोणाक ही साडी ?"

"फुलकान्नीक."

"दुस्काळांत तेरावो म्हैनो येवजता तरी कसो तुका ?" घोवान पार्वतेक दटायली, "हे साडयेचें मोल खबर आसा तुका ? तेरा रुपया, तेरा !"

"जाल्यार जावं. फुलकान्न खुशालभरीत जातली."

आतां मात घोवाली तिडक कपलाक रोंबली, "फुलकान्न!" दांत किड्डून ताणें म्हळें, "तुका वीस रुपयांचीं दोन कापडां आनी म्हाका हें पुडवें ! पैशे कितले जाले खबर आसा ?"

"इतले थंय तितले ! तेरा रुपयांनीं कितें संवसार बुडचो पडलो ?

घेयातच तुमी ही साडी . फुलंकान्न खुशालभरीत जातली." घोवाक समजायत पार्वतेन म्हळें.

आजवेर बायलांल्या हट्टाचेर कोणें जैत जोडलां ? ताणें साडी घेतली. पुण घरा पावसर न्हय-न्हय तें बडबडून बायलेक पिसुडली. परंत पार्वतेन अेकाय उतरान परती जाप दिली ना.

आतां घोवाल्या चिक्रांत च्या ओतीसर पार्वतेन कालची ही याद धवळून अणभवली .

पार्वती जेन्ना भायर आयली तेन्ना तिज्या फाटोफाट तिगेलो घोवय बी आयलो. दारांतल्या सोपणार फुलकान्न तिश्टत बशिल्ली. पार्वती मावशी दिश्टी पडनाफुडें सडसडीत उबी रावत तिणें म्हळें, "आज कळाव कित्याक जालो पार्वतेमावशे ?"

पुण तिगेल्या प्रस्नाची जाप तिज्या कानार पावचे आदींच घरच्या घरकारालो ताळो तिणें आयकलो—

"अे फुलकान्नी ! कितल्याचो पुडो हो ?"

फुलकान्न सामकी गंदळांत पडली . असलो प्रस्न आज ती पैलेच फावट आयकताली.

"भलय मगे, कितले पैशे जाले ?" घोव परत आड्डलो .

"पैशांचो हिसोब म्हाका कित्याक धनयानूं ? म्हाका आणोय सारको आनी रुपयोय सारको !"

"आणोय सारको आनी रुपयाय सारको ?" अशें पर्थून अेक फावट आड्डून पांय आपटीत तो भीतर गेलो. ताका फुलकान्नीलें भोळेंपण पारखूंक आयलें ना. ताजे तकलेंत एकच दुबाव रिगिल्लो. आनी तो म्हळचार ही फुलकान्न आपले बायलेक नागयता. ताजो तरी बाबड्याचो किते गुन्यांव ? तकलीच ती ! थंय कितें पिकत आनी कितें कुसत एकल्या परमेस्वराक खबर !

बाबडी फुलकान्न सामकी काचाबूल जाली. तो असो अकस्मात

कित्याक तापलो हाजो तिका समज पडना जालो. पुण पार्वतीमावशेन तिका समजायली :

"मनाक लावन घेवं नाका तूं फुलकान्नी. ह्या दादल्यांक खंय खबर संवसार म्हणून कितें तें !"

  

दुसऱ्या दिसा दिवाळी. सात वरां जालीं तरी फुलकान्नीचो पत्तो ना हें पळोवन पार्वती कश्टी जाली. सकाळीं फुडें न्हावन धुवन तिगेलो घोव बाजारांत गेल्लो आनी तो घरा परतुचे आदीं फुलकान्नीक साडी दिवपाची पार्वतेली इत्सा आसली.

पुण पार्वतेक चड वेळ तिश्टूचें पडलें ना. तो सदींचो, संवकळीचो साद तिज्या कानार पडलो—

"फुलां, फुलां !"

पार्वती भायर आयली. त्याच वेळार कवडेचें दार उकतें करून तिगेलो घोव परतलो. पार्वती भीतर गेली. फुलकान्न मात गंदळांत पडली. धीर करून तिणें फुलांचो पुडो तिगेल्या घरकाराच्या सामकार करीत म्हळें, "धनयानूं, हीं फुलां दियात घरकान्नीक."

आयचो दिवाळेदिसाचो पुडो आकारान हेरशींच्या पुड्यांच्याकय दोट्टी आसलो. घोवान मोन्यांनीं हातांत पुडो घेतिल्लो पळोवन पार्वती भायर आयली. तिजेर नदर पडनाफुडें ताणें विचाल्लें, "कितें दिवप हिका ह्या पुड्याचें ?"

"सदींचोच एक आणो." पार्वतेन जाप दिली.

"फक्कत चारच पैशे !" आपणाक जाल्लें अजाप लिपोवपाचो येत्न करीत ताणें म्हळें.

पार्वतेन तकली हालयली.

आतां जाल्यार तागेलें अजाप ताज्यान लिपोवं नज जालें. बाजारांत ताणें जें कितें पळेल्लें ताजो ताका उगडास आयलो. थंय फुलकार सुकिल्लो पालो आनी करपल्ल्या चार पांकळ्यांच्या पुड्याक दोन-दोन आणे

सांगताले. आनी हीं फुलकान्न हांगा लवलवीत, तुकतुकीत, टवटवीत, रसरशीत, सोबीत, परमळान भरिल्ली, म्हॊंवान न्हाल्ली फुलांची रास फक्कत चार पैशांक घरा पावयताली. ओंठांतल्या ओंठांत तो कितें पुटपुटलो देवाक खबर. पुण म्हऱ्यांतच उबे आशिल्ले बायलेक व्हडान उलो मारून ताणें म्हळें, "आगे, हिका दिवाळेचें परबें दिता मगे ?"

अशें म्हळें खरें, पुण ताज्यान रावं नज जालें. ताकतिकेन भीतर वचून ताणें साडी हाडली आनी फुलकान्नीमुखार धल्ली. पाख्यान फुलाचेर झोंपय घेतिल्लेवरी फुलकान्नीन ती साडी हातांत घेतली. आनी तिका पळोवन ती भुरकुटली, कितली तोखेली ! आनी ल्हवूच हांसलीय.

"जाणा तूं फुलकान्नी, हे साडयेक कितले पैशे पडले ते ?"

"म्हाका पैशांचो हिसोब कितें करुच्याक धनयानूं ? म्हाका आणो कितें आनी रुपयो कितें ! धनयाचीच कुरपा सगली !"

(१९५८)